# भाग - 3

1) सामान्य क्रिया पदाचो ' धातु ' थोडे आसति, भूतकालु जातना दोनि अक्षराची संधि स्पष्ट जाव्नु अभ्यासु कोरका जाता।

2) धातु चे अंत्य अक्षर ' ळ ' आसल्यारी ओत्तक्षर बरोका । सान ' ड ' आसल्यारी भूतकालांतु ' ल ' प्रत्यय मेळतना ' ळ ' अक्षर जाता। ' ण ' अक्षराक ' ल ' प्रत्यय मेळतना ' ळ ' जाता।

3) तशीं जाव्नु सामान्य भूत कालाक धातु दोनि अक्षराचो धातु अेक अक्षर म्हणु ओत्तक्षर बरोका।
हाडचे = हाड + लें = हाळ्ळें मेकोळचे = मेकळ + लें = मेकळें
काडचे = काड + लें = काळ्ळें उकोळचे = उकळ + लें = उकळें
तीनि अक्षराचे धातु क ओत्तक्षर ना ।

4) कोंकणि भाषेंतु क्रियापदाचो धातु केलव क्रियापदाचे धातः आशीलें तशी उपयोग करताति।
कोरचे, कोरका, कोरयो थ, पीव्न, पीवका, पीवचे, व्होरचे

5) कोंकणि भाष सरळ कोरचयाक हया धातुंक मूल धातु म्हणु वर्तमानच्या कालाचे वेळारी धातु कर, वर, धर, हें रूप घेता। हशी जाव्नु वर्तमान धातु अन्कूल कोर्नु घेतला।

6) भूतकालांतु केलव धातु एक अक्षर जाताति हशी जाव्नु हाझे व्याथासु कोळचे तकीत हाका प्रत्येक नांव दवरला।

7) म्हणु म्हळ्यारी अर्थु विंगड्डु, म्होणु म्हळ्यारी अर्थु विंगड्डु आमी कशी उलैताति कीं तो चि क्रमु दवरला।

8) कर्शी रूप विकार कालाचे तकीत केल्यारी कसली समस्या येना। ति एकी भाषयेची चंदाई।

9) जावचे, वर्तमान कालांतु 'जा ' भूतकालांतु 'जा ' जाता।
जाव्नु, जावका, जावचे थ, हांगा संपूर्ण धातु उपयोग करताति।

# पाठ - 22

कंचे यी भाषयेंतु स्वल्पु नियमु हेकडे तेकडे आसता। हो नियम् शिखतां अभ्यासु कोरका पडता । ईंग्लिष भाष पळया, खालि अक्षरारी शब्द तय्यार कोर्नु उच्चारु, कोरुंका पडता। तशीं चि कोंकणि भाषयेंतु वर्तमान कालांतु एक् नमूनो भूतकालांतु एक्नमुनो आसता। तेखातिर भाष येंतु हझार इतले शब्द आसति एक वीस, पंचविस धातु वर्तमान कालांतु भूतकालांतु विकार जाता ताझे एकि सूचि तुमगेले मुखारी दवरता ।

1 भूतकालांतु थोडे एक अक्षराचो धात आसति। उदा:-

वर्तमान, भविष्यत, भूत

दोनि धात - येवचे येता, ये थ आयलें दोनि विभिन्न धात उडगासु दवरा

| | | |
|---|---|---|
| वोच्चे | वच्ता वच थ, घल्लें | |
| घेवचे | घेता, घे थ, धेतलें | |
| खावचे | खाता खाय थ खेल्लें | खे |
| कोरचे | करता, कर थ, केल्लें | के |
| मोरचे | मारता, मर थ, मेल्लें | मे |
| व्होरेचे | व्हरता, व्हर थ व्हेल्लें | व्हे |
| नावये | नाता, नाथ थ, नाल्लें | ना |
| जावचे | जाता, जाय थ, जाल्लें | जा |
| भीवचे | भीता, भी थ, भील्लें | भी |
| धुवचे | धुता, धुय थ, धुल्लें | धु |
| पीवचे | पीता, पी थ, पील्लें | पी |
| दीवचे | दीता, दी थ, दील्लें | दी |

1 एक आक्षराचो धातु भूतकालांतु आस्स तांतु भूतकालाचें प्रत्यय ओत्तक्षर जाव्नु ' ल्लें ' बरोका।

2 (घेवचें) ' त ' अक्षर सहायक जाव्नु भूतकालांतु धेतलां। दोनि धातु चे व्यत्यसु पळया।घेल्लें, घेतलें व्यत्यासु पळया ।

# पाठ - 23

1 धातु अंत्य अक्षर ळ आसल्यारी स्वल्प व्यत्यासु जाता

2 दोनि अक्षर ओट्टु जातना ताझो भेदु पळ्या। सामान्य क्रियापदाचो धातु भूतकालु जातना दोनि अक्षराची संधि कोंकणि भाष येंतु अगत्य जान्सु शिख का

पडता । स्पष्ट अभ्यासु करा ।

(सान) ड + ल = ळ

ड + न = ण

ळ + ळ = ळ

ण + ल = ळ

ण + न = ण

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| मेळचे | मेळता | मेळ थ | मेळ्ळें | अंत्य का आसल्यारी |
| खेळचे | खेळता | खेळ थ | खेळ्ळें | ओत्तक्षर बरोका। |
| कोळचे | कळता | कळ थ | कळ्ळें | |
| खोळचे | खोळता | खोळ थ | खोळ्ळे | उढचे उढलें व्यत्यासु पळया होड ' ढ ' शब्दाक संधि ना। |
| होळचे | होळता | हाळ थ | होळ्ळें | कोंढचे कोंढलें, वाढचे,वाढलो |
| सान 'ड' | काडचे | काडता | काड थ | काळ्ळें ळ, ड, ण व्यत्यासुशिखा |
| | हाडचे | हाडता | हाड थ | हाळ्ळें |
| | पोडचे | पडता | पड थ | पळ्ळें |
| | मोडचे | मोडता | मोड थ | मोळ्ळें |
| | रोडचे | रडता | रड थ | रळ्ळें |
| | सोडचे | सोडता | सोड थ | सोळ्ळेंधातु, एक अक्षराचो जाता, भूतकालाचे |
| | म्होणचे | म्हणता | म्हण थ | म्हळ्ळें प्रत्यय ' ल्लें ' ओत्तक्षर बरोका । |

थोडे धात अंत्य उ स्वरु आसल्यारी वर्तमान कालांतु धातु क ' ई ' स्वरु मेळता ।

सोधुचे सोधीता सोध थ सोधलें, तिळशुचे तिळशीता, तिळशी थ तिळशीलें घाशुचे घाशीता घाश थ घाशीलें कूडुशुचे कूडशीता कूडशी थ कूडशीलें फूशुचे फूशीता फूश थ फूशलें फरशुचे फरशीता फरशी फरशीलें। बुर्गुचे = बुर्गीता । बुर्ग थ, बुर्गीलें, हगशुचे = हंगशीता हंगशी थ हंगशीलें।

# पाठ - 24

धातु अंत्य अक्षर ' व ' तिनि कालाचो भेदु शिखा।

1 पीवचे, येवचे, दांवचे, नावचे घेवचे, भीवचे हाझे धातु रूप शिखल्यति।

2 प्रेरणार्थक केदना यी वर्तमान धातु जान्नु उपयोगु कोरका, तो धातु वर्तमान, भविष्यत, आनि भूत समान आसता।

| सामान्य क्रियापद | वर्तमान | भविष्यत | भूत | प्रेरणार्थक | वर्तमान | भूत |
|---|---|---|---|---|---|---|
| जावचे | जाता | जाय थ | जाललें | जावो | जावैता | जावैलें |
| चोवचे | चोयता | चोय थ | चोयलें | चोवो | चोवैता | चावैलें |
| खावचे | खाता | खाय थ | खेल्लें | खावो | खावैता | खावैलें |
| लावचे | लायता | लाय थ | लायलें | लावो | लावैता | लावैलें |
| मोवचे | मोयता | मोय थ | मोयलें | मोवो | मोवैता | मोवैलें |

कंच्या धातुंतु व लोपु जान्नु ' व ' अक्षर काणु ' य ' अक्षर घालताति म्हणु अभ्यासु करा।

धुंवचे, शोवचे, लेंवचे होंवचे, शोवचे हया धातुंतु व्यत्यासु ।

कोंकणी भाषयेंतु शी अक्षराक भारी महत्व आस्स अक्षराक ई स्वरु मेळतना शी जाता।

घासुचे घाशीता, आसचे, आशीलें, फूसुचे फूशीता तिळसुचे तिळशीता नामपद शींकचे शीरलो, शींवचे शीधुंचे, शीयाळें, शीफारस, आनी विशेषण सामान्य क्रियापदाचे ओट्टु वर्तमान भविष्यत आनि भूत कालाचो अनभवु मेळ्ळो।

1 प्रेरणार्थक सामान्य क्रियापद वर्तमान कालु कसलो यी कष्ट ना

2 पुलिंग नंपुसक आनि स्त्रीलिंग भेदु ना

3 अवश्य थोडे मूल धातु वर्तमान धातु कशीं जाता, स्पष्ट हाझो परिचयु घेवका।

# वर्तमान भाग - 1

| सामान्य क्रियापद | मूल धातु | वर्तमान | | प्रेराणार्थक वर्तमान | भविष्यत | भूत |
|---|---|---|---|---|---|---|
| कोरचे | कोर | करता, | कोरो | करैता | करै थ | करै लें |
| धोरचे | धोर | धरता, | धोरो | धरैता | धरै थ | धरै लें |
| मोरचे | मोर | मरता, | मोरो | मोरैता | मारै थ | मोरैलें |
| सोरचे | सोर | सरता, | सोरो | सोरैता | सरै थ | सरैलें |
| व्होरचे | व्होर | व्हरता, | व्होरो | व्हरैता | व्हरै थ | व्हरैलें |
| तोळचे | तोळ | तळता, | तोळो | तळैता | तळैथ | तळैलें |
| झोरचे | झोर | झरता | झोरो | झरैता | झरै थ | झरैलें |

वर्तमान कालाचे बहुवचन लिंग भेदु ना।
' ति ' प्रत्यय मळेताति ।
जनं पूरा आज येताति।
ते तान्नी घर सोणु वच्चाति।
उदाक घाल नातल्यारी झाड मारताति।

मेल लीं मडीं मात्ती येंतु पुरताति।
सकाणि फूलं पूरा फूलताति।
चेर्डुवं वेळु चूकुनु खातति।
गायी यो तोळकळ पीताति।
सकड जनं व्हारडिक येक वचताति।
माका सकड यी उलैताति।

# प्रेरणार्थक वर्तमान भाग - 2

प्रेरणार्थक क्रियापद, वर्तमान भविष्यत आनि भूतकालाक ' वर्तमान धातु उपयोग करताति। भटाचे करैन पूराण वाझैताति। चेर्डुवांक मारैताति म्हणु भंय आस्स।

शालयेंतु सांझयेचे मस्त जनं बैंसुनु उलैतति।

रूकारी मांकंड येव्नु पलवस्तु पीलांक खावैताति।

चेल्लियेंक गायन शिखैताति।

देवळांतु सकाणी सांझ ये चे वाझप वाझैताति।

वायट काम केल्यारी मालगडीं भीष्टायताति ।

मैदानारी गायीयो आयल्यारी दांवडायताति

मार्गारी मेरवणिक पळैताति।

आपोचे, उलोचे,बरोचे, पोळोचे, हया क्रियापदाचे धातु उलो, बरो, पळो, आपो अंत्य अक्षर, 'ओ' स्वरु आसल्यारी प्रेरणार्थक जायना जाल्यारी नमुनो मात्र प्रेरणार्थकि मणके चि आस्स। हया शब्दांक रियायती।

वोच्चे हाझे प्रेरणार्थक म्हणु ना। वोच्चे तशी करता यकै करैता वचैस करता, करैता

उलोचे उलैस करता, करैता

बरोचे बरैस करता, करैता

पळोचे पळैस करता, करैता

आपोचे आपैस करता, करैता

# पाठ - 26 भाग - 1

## भविष्यत कालु

हें तुका जाय थ वे कीं कितकी (प्रशनार्थक )
तुं जाय थ म्हळ्यारी हांव हें काम करता।
जाय थ जाल्यारी सांग हांव हाडता।
संशयु गोपाळु वोचुनु ये थ कितकीं।
तीं आजि सभयेंतु उलैति थ।
हुशयार नातिल्याक जेवैति थ । म्हणु दिसता, (लेकता)

कामाचीं गोर्वांक दांवडायति थ। म्हणु लेकता, दिसता। म्हणु शब्दु घेवुनु वर्तमान आनि दिसलें, लेकलें भूतकालु यी उपयोगु करताति

शिखै यल्यान विसकळ अनुभव दिवका । यकै अनुभवाक हाणु नुत चि बैसनु आलोचना कोर्नु अग्यासु कोरका।
उत्तम हांव कर न, हांव सांगन, हांव ये न, एकवचनाक मात्र

1 भविष्यत कालांतु दोनि भेद आसति।
2 वर्तमान कालाचो धातु हाझे लागि व्होड थ उपयोगु करताति ।
बहुवचनाक वर्तमान कालाचे धातु चे लागी (ति ' थ )' हाझे प्रयोजन घेताति।

| सर्वनाम | एकवचन | बहुवचन | प्रेरणार्थक |
|---|---|---|---|
| उत्तम | हांव करन | आम्ही करति थ। | आामी करैति थ। |
| मध्यम | तुं कर थ | तुम्ही करति थ। | तुमी करैति थ |
| अन्य | तो, ति, तें कर थ | ती तान्नी करति थ | करैति थ |
| | हो हि हें करथ | हीं हान्नी करति थ | करैति थ |

1 हो भविष्यत कालु हो संपूर्ण नहीं हाझों ओट्टु वर्तमान भूतकालु उपयोगु कोरचो चड, म्हणु आनि दिसता, लेकता। दिसलें, लेकलें

2 उत्तम पुरुष हांव कर ना धातुचे ओट्टु 'न' एकवचनाक मात्र प्रयोजन घेताति जाय थ हो चालु शब्दु कृष्णाक हो वस्तु जाय थ शो दिसता।

# पाठ - 27 भाग - 2

## पूर्ण भविष्यत कालु

भविष्य कालाक व्होड ' थ ' प्रत्यय जाव्नु उपयोगु केला। विशेष जाव्नु उच्चारु ओत्तुनु उलैतातिं नंथा वर्तमान कालांतु सान ता भूतकालांतु लें प्रत्यय जाव्नु उपयोगु करतातिं । त्या वेळारी वाझीतना हो भविष्यत कालु म्हणु अनुभवाक येवका, नंतर कालु निर्णयु करतना रगळो येवच्याक नझा म्हणु हया 'थ' अक्षराचो प्रयोजन घेतला।

1 पूर्ण भविष्यत कालाक ' थलो ' सामान्य क्रियापदाचे वर्तमान कालाय्चा धातु चे लागी बरोका।

2 थलो हया कालांतु पु स्त्री, नंपु लिंग भेदु आस्स

3 थलो धातु सर्वनाम जाव्नु नंतर विशेषण जाव्नु उपयोगु करतातिं

## सर्वनाम

उलै थलो, उलै थली, उलैथलें ' हिन्दी येन 'बोलनेवाला, बोलनेवाली
सांग थलो, सांग थली, सांगथलें हिन्दी येन कहनेवाला कहनेवाली
उठाय थलो उठाय, थली, उठाय थलें हिन्दी येन उठनेवाला,
उठनेवाली

हिन्दी येन नपुंसक लिंग ना

काम कर थलो आजी कामाक येता। शिखै थलीं सकड शिखोनु चमकलीं वाझाप वाझी थलो लायक वाझीता। करथलो काम कोर्नु चि मेल्लो । शिखथलो कशी शिखता, पोट भरथलीं कसलें यी खाव्नु पोठ भरतातिं।

# पाठ - 28

## सामान्य भूत आनि पूर्ण भूतकालु

सामान्य भूतकालाचो साधरण जाव्नु तुमका ताझो अंदाझो मेळ्ळा । 'लो 'प्रत्यय सान 'ड' 'ल' मळेतना 'ळ' जाता। एक अक्षराचो घातु आसतना ओत्तक्षर बरोचे हाझो पूरा क्रमु शिखल्यांति।

रावणु लडाई कोर्नु थकवलो।

कोल्ले, रानांतु दांवले । लोणि माझरान केल्ली।

चित्तळ जोरान दांवलें । चेर्डुं पाळ्यांतु तांकुनु पळ्ळें।

देवाक मस्त फूलं हाळ्ळी । चंद कोर्नु पद म्हळ्ळें ।

कोंकणी येचे व्याकरण शिखतना देवनागरी येच्या आधारारी कशीं बरोचे हेंव यी अभ्यासु कोरका जाता।

कंचे क्रियापद ओत्तक्षर जाव्नु येता पूर्ण भूतकालु-

जातना ओत्तक्षर बरैंनातीलें सगळें अक्षर बरोका 'ल' अक्षर सहायक घेव्नु बरोका।

लो प्रत्यय विंगड बरो का । ळ + ल = ळ तशी जाव्नु 'ल' अक्षर लोप जाता ।

मस्त वाझुनु अनुभवु कळ लो, तुमका हांव मार्गारी मेळ ली।तान्नी व्यारांतु मस्त लाभ केल लें। खावच्याक खाण लायक जाल लें।दयानदांक सात वर्षापूढे वारडिक जाल ली। ति केदना निदल ली।

सामान वग्गी बोंबई पेटैल लें। रुकारी ताकुनु कितले आम्बे पळ ले।

1 मेळ्ळें, मेळ लें अंत्य ळ पूर्ण लें प्रत्यय विंगड बरोका

2 केल्लें केल लें अंत्य ल पूर्ण लें प्रत्यय विंगड बरोका

3 चमकल लो, दांवल लो, धातु चे लागीं ल मेळोनु लो प्रत्यय विंगड बरोका।

भूतकालाचे भिन्न भिन्नरूप कोंकणि भाषयेंतु आनि महत्व जाव्नु आस्स पूर्ण भूत कालाक आन्नेकु उलोचो नमुनो आस्स। हो पूर्ण भूतकालु अंत्यंत ध्यान दवोर्नु शिखु का।

1 ईलो प्रत्यय धातुक मेळोचो

2 मेळ लो, केल लो, केललो हाळ लो म्हळ लो पूर्ण भूतकालाचे
सानरूप हाका ईलो प्रत्यय मेळ ना।

3 धातु क अंत्य अक्षर र आसल्यारी ईलो प्रत्यय मेळना

4 चमकल लो, नमगल लो आनि एक दोनि धातु क 'ईलो' प्रत्यय मेळ ना।

बाकि सकड धातुंक 'ईलो' प्रत्यय मेळोनु पूर्ण भूतकालु सानु कोर्नु उलैताति। दोनि यो रीति येरी उलोये थ। पूर्ण भूतकालु ।

सांगल + लो = सांग + ई लो सांगी लो = दांवल लो, दांव + ई लो = दांवी लो।
पावल + लो = पावीलो, उढल + लो = उढीलो, सोधल + लो = सोधी लो,
चोयल + लो = चोयीलो, लेंवल + लो = लेंवी लो, खोंबल + लो = खोंबी लो,
मुतल + लो = मुतीले, निदल + लो = निदी लो, धुंवल + लो = धुंवी लो।
गुणसल + लो = गुणशीलो, तिळसल + लो = तिळशीलो, बाग्सल + लो =बागशीलो

अंत्य अक्षर र

धोरचे = धरल लो, मारचे मारल लो, सोरचे = सरल लो, चोरचे = चोरल लो
पूरचे = पूरल लो, खिर्लुचे = खिर्लल लो, भोरचे =भरल लो, झोर्चे = झरल लो

अन्य अक्षर ' र ' आसल्यारी ईलो प्रत्यय मेळ ना

दांटवुचे दांटवल लो, कुरवुंचे, कुरंवल लो सोलवुचे सोलवल लो
घेलवुचे घेलवल लो कुंटवुचे कुंटवल लो सोडवुचे सोडवल लो
चमकुचे चमकललो नमगुचे नमगल लो। अंत्य अक्षर धातुक आसल्यारी ईलो प्रत्यय मेळना ।

सान ' ड ' काडचे = काड+ ल = काळ लो = हाडचे हाड + ल = हाळ लो,
मेळचे = मेळ + ल मेळ लो, काडचे = काळ लो, पोडचे =पळ लो,।
रोड + ल रळलो तोळचे = तळल लें।

एक अक्षर धातु पीवचे = पील लो, जावचे = जाल लो मोरचे मेल लो व्होरचे व्हेल लें

खावचे = खेल लें, कोरचे = केल ले, दीवचे = दील लें।

एक अक्षराचे धातु चे ओट्टु ल अक्षर सहायक जान्नु भूतकालाचे प्रत्यय लो मेळता।

जा + ल + लो = जाल लो, पील ले
दी + ल + लें = दील लें हया शब्दांक (' ईलो ' प्रत्यय मेळ ना )।

# पाठ - 29

## प्रेरणार्थक भूतकालु

प्रेरणार्थक भूतकालु हाझी कसली समस्या ना, मूल घातु उपयोगु कोरुंक नझ। वर्तमान धातु चे अंत्य ' अै ' स्वरु मेळोनु ल अक्षर सहायक जाव्नु धेवका। धातु चे अंत्य स्वरु ' ओ ' कोरोचे करै + ल लो करैल लो, सांगोचे = सांगैल लो
मारोचे मारै ल लो, दांवैल लो, पीवैल लो, खावैल लो
आ भीष्टाय थलो रीतायल लो, सोलवायल लो, गेल वायल लो
हया कालाक ' ईलो ' प्रत्यय उपयोगु करताति हया कालांतु हरेक धांतुक 'ईलो' मेळैताति।

## प्रेरणार्थकाचे सान पूर्ण भूतकाला रूप।

प्रेरणार्थकांतु धातु दोनि विभाग आस्स। अंत्य स्वरु ' ओ ' आनि ' आ ' हाझे पूर्ण भूतकालाचे रूप शिखल्यांति। करैल लो, मारैल लो, दांवडायल लो, चमकायल लो, हाझे धातु क ' इलो ' प्रत्यय मेळेल्यारी हाझे सान रूप जाता। धरैल लो = धरैईलो, मारल लो = मारैइलो, करैल लो = करैइलो, घुंवडायल लो = घुंवडाईलो, भीषटायल लो = भीष्टाईलो, झगझगायल लो = झगझगाईलो, गाळायल लो = गाळाईलो।
आमी व्याक्यांतु उलैतना क्रियापदाक अंत्य ' मु ' म्हळ्लो शब्दु उपयोगु करताति ' मु '

## वर्तमान भूतकालु

वर्तमान जातां जातां चोल चो कालु। हो कांय कष्टना। वर्तमान कालाक लो प्रत्यय धेतल्यारी जाल्लें।
रायु तशी सांगता लो, तीं तशी उलैता लीं। गायी यो दांवता लीं।
सकड चित्र पळैता लीं। दुड्डु मोवैता लो, कशी पूणी व्यारु धुंवडायता 'लो '।
हया कालाक महत्व कसलें म्हळ्यारी क्रिया विशेषण जाव्नु उलोचे , क्रिया विशेषणाचे वेळारी हाझो विवरू दिता।
हया शब्दाक ओप्पिगा हशी अर्थु येता ' मु ' ।
हो विषयु हांव ताका सांगता मु। तो आत्त उलैलो मु।
हो सांगीलें अयखना मु, गोपाळु आंत्तं पडता मु।

# पाठ - 30

## सामान्य भूतकालाचो दोनि ये क्रमु, अपूर्ण भूतकालु

आयल्यां (ति) नातीलें यी उपयोगु कोरये थ।

उत्तम = हांव आयला। आमी आयल्यांति।

मध्यम = तु आयला। तुमी आयल्यांति।

अन्य = तो, हो, आयला तान्नी हानि तीं हीं आयल्यांति।

ति हि अयल्या। तीं ही आयल्यांति।

तें हें आयलां । तीं हीं तान्नी हान्नी आयलां।

बहुवचनाक अगत्य आसल्यारी ति प्रत्यय मेळैताति।

नपुंसक कोरचे सम नहीं ।

तो कसलें काम कोरूं आयला। कृष्णु नुत बैसला वे

तुमी आंत वाझुंक शिखल्यांति वे। ति सांग नीतिलें दांवल्या।

सरकारान सूण्यांक पूरा मारैल्यां । मांकंड पूरा सूण्याक पळोनु दाँवल्या।

तुमी कसलें यी ताका उलैल्यां वे। दील लीं रूपयी यो मेजल्यां वे।

चेर्डुवांक केळीं पूरा खावैल्यांति। हांवें सकडांक यी भीष्टायलां।

कशी आमी सामान्य भूतकालु उपयोगु करताति, हो यी आपूर्ण भूतकालु तशीचि चालु आस्स।

# पाठ - 31

## कोंकणि भाषेयेंतु केलव गुप्त माहिति भाग 1

आमी उलैतना व्याक्यांतु सर्वनाम जावो नामपद नातल्यारी अनिश्चवाचक शब्द अथवा क्रियापद नपुंसक जाव्नु उलैतातति तुवे कसलें हाळ्ळें, कृष्णान सांगिलें हांव पूरा आयकलां।

तुं कसलें म्हळ्ळें । जात्रयेक घेलले तावळी कसकसलें हाळ्ळें।

हाणे उलैलें सम कानांतु बैसलें वे। सूण्याक पोटाक घाल लें वे।

नामपद अथवा सर्वनाम पदाक सम्बंध पावीले आसल्यारी लिंग भेदु आसता।

ताणे आम्बो खेल्लो ताणे कसलें खेल्लें । सीतयेन दांतुणि उढैली, सीतयेन तुवे दील लें पूरा व्हल्लें। कसलें उढैलें।

ताणे कांभो पूर लो। ताणे कसलें पूरलें । बुकाक दुड्डु कितलो दील्लो।

शिखारी येन पक्षि धरल्या। आपण इतल्याक उज्जो वाडवलो।

हें जावका तें जावका इत्याक म्हणता। सगळो दिसु ताडांतु हें आनि तें।

(येवचे, वोच्चें) हया सामान्य क्रियापद प्रेरणार्थक, ना । हाझे बदलाक येवचे तशीं कोरचे, बोच्चे तशी कोरचे कारोचे । बोच्चे तशीं केल लें केल लें कर थ। खावचे तशीं करता (करैता)

## भाग - 2

थोडे सामान्य क्रियापदाक भूतकालु करतना व्याक्यातु कर्ता विभक्ति लाग ना। तीं सामान्य क्रियापदं उडगासु दवोरचे चांग, येवचे, कृष्णु आयलो, तो आयल लो जनं पूरा आयलीं, चेल्लियो आयली यो। दांवचे पक्षि यो, दांवली यो, उबली यो।

पावचे, राबचे, खोंबचे, चमकुचे, नांचचे, पीवचे, निदचे, उढचे, पोडचे, कडुचे, वोर्डुचे, मुर्डुचे, धुंवचे, फूलचे, मोडचे, दांटवुचे, धेलवुचे, सोलवुचे, कुंटवुचे, नामगुचे, सोडवुचे वांडवुचे।

वयरी आयिले सामान्य क्रियापद अकर्मक सकर्मक म्हण्तातति, भूतकालांतु

कच्यां रीति येरी हाझो नियम् आसता। पळ्या । वयरी दील लो कंचो यी शब्दु काडा।
नामपद वेंकटेशु राबलो, वेंकटेशु जोरु दान्नु राबलो।
सर्वनाम ति नांचली, ति कालोटु, खेळत हच नांचली।
वयल्या व्यक्यांतु कर्ता विभक्ति उपयोगु नामपदाक जावो सर्वनामाक कर नी।
हया व्यक्यांतु नामपद, सर्वनाम, आनि क्रिया विशेषण ध्यान दीव्नु पळ्या।

# पाठ - 32

# क्रिया विशेषण भाग -1

गोपाळु कृष्णा नंतर आयलो। सम्बंध बोधक

गोपाळु काम ' कोरच्याक ' घेल्लो, क्रिया विशेषण (कोरच्याक)

ति ' नांचत हच ' चमकली। ' क्रिया विशेषण '

मांकड ' दांवंता दांवंता ' वयरी बैसलें।' क्रिया विशेषण ' दांवतां दांवतां ' वयरी ' (संबंध)

आमी आम्बे घेव्नु ' खाव्च्याक ' बैसलीं।' क्रिया विशेषण ' खावच्याक

वयल्या व्यक्यांतु नामपद सर्वनाम आनि क्रिया विशेषणाक सम्बंधु आसुनु कर्ता विभक्ति मेळना।

करत हच आस्स सांगतहच येता, मारत हच आयलों, हे विशेषण च लोप कोर्नु उलैताति सांगत ह आयलो पळैत ह राबता , बैलु मुतीत ह वच्ता। धातु क 'त' अक्षर सहायक घेव्नु हच विंगड बरोका।

## तना प्रयोगु

राजान काम ' करतना ' येता ' । तना ' प्रयोगु, वर्तमान धातु उपयोग कोरका।

कमलान गायन ' म्हणतना ' आयलो। सामान्य भूतकालु

ताणे जेवतना कायळो येसना। भविष्यत ।

आमी उलैतना राबीलो (राबललो) पूर्ण भूतकालु

वयले व्यक्यांतु नामपद सर्वनामाक आनि क्रिया विशेषणक सम्बंधु क्रियापदाक ना। तशीं जाव्नु हें विशेषण आयीले तावळी वर्तमान, भविव्यत आनि भूतकालु आयल्यारी यी नामपद सर्वनामक कर्ता विभक्ति लागता।

1) ' तना ' वर्तमान धातु क मात्र मेळता

2) नामपदाक आनि सर्वनामाक अवश्य जाव्नु कर्ता विभक्ति मेळता

3) व्याक्यांतु अकर्मक सकर्मक म्हळ ळो प्रश्नो ये ना ।

4) हो उडगासु दवरा, आमी, तुमी हया सर्वनामांतु कर्ता विभक्ति लोप जाता। ताव्नी, हाव्नी हांतु यी कर्ता विभक्ति लोप जाता। ' तछी ' हाझी

रीति ' तना ' मणके चि जाव्नु आस्स।

1 वाक्यांतु तना, तछी, हें प्रत्यय सामान्य क्रियापदाचो धातु वर्तमान, कालाचो धातु जाव्नु, क्रियाविशेषण जाव्नु आयल्यारी कर्ता (प्रथम) विभक्ति व्याक्य वर्तमान, भूत आनि भविष्यत कालांतु हाझो उपयोग करताति।

वर्तमान धातु बरोनु तछी विंगड बरोका

माधवान सांगतना हांव आयखलो। माधवान सांग तछी हांव आयखलो।

ताणे काम करतना हांव सांगता । ताणे काम कर तछी हांव सांगता।

तुंवे वच्च तछी तो वाच्चो ।

एकल्यान वच्च तछी आन्नेकालयान वोचु का।

व्याराक दुड्डु घाल तछी तो सोलवलो।

## भाग - 2

करतछी, कल्लेपरां, केल्ले नंतर हया तिनि क्रिया विशेषणांक एक चि अर्थु । सांगले परां, केलले नंतर पूर्ण भूतकालाक यी उपयोगु करताति।

1 करतना हया क्रिया विशेषणाचो अर्थु तेत्ते घटनयेचो वेळु सूचित करता,

2 कर तछी केलले परां (नंतर) जाल लो वेळु सूचित करता

3 हे शब्दः व्याक्यांतु अकर्मक जावो सकर्मक, कचो यी कालु आस्सो नामपद, सर्वनामक कर्ता विभक्ति (आन, आनी) प्रत्यय अगत्य जाव्नु मेळोका।

नौकरानी काम करतछी तुं यो।
सकडानी जेव तछी तुमी जेवा।
पैसो दी तछी सामन हाडी (कोणे)
वाझाप वाझीतना आयलो (कोणे)
जेवण जेवतना ताक वांट लें (कोणे)
पेट्टु मार तछी रळ्ळो (कोणे)

1) वाक्य करतना संशयु येवचो सम नहीं।
पैसो ' वाझप ' हया नामपदाक
कोणे मह्ळलो प्रशनो घाली
जवाब येता येकै नामपद जावो
सर्वनाम पद लोप जाल्लां।

हांवें वाझीतना तो बाधा दीता
तांका काम करतना सांगलें
तांका तुमी काम करतना सांगलें।
ताका जेव तछी वाडी (कोणे) (कृष्णान)

2) हांगा कर्ता विभक्ति लोप जाल्या।
हसल्या व्यक्यांतु नामपद
जावो सर्वनाम विभक्ति
सहित आशीलो शब्दु लोपु करताति

1 क्रिया विशेषण वर्तमान कालाचे मणके कोर्नु वयरी बिन्दु घालनु उपयोगु करताति।

2 नंथा दोनि पंथा उपयोगु करताति।
नारदु पद म्हणतां चमकलो।
नारदु पद म्हणतां म्हणतां चमकलो।
तो उलैंतां उलैंतां चमकलो।
अन्नेक क्रिया विशेषण।

1 वर्तमान धातुक (त हच) प्रत्यय मळैताति

2 च अक्षर लोपु कोर्नु उलैतानि

रामु रडत हच चमकलो, रामु रडत ह चमकलो, चेल्लो सूण्याक मरत हच वच्ता। चेल्लो सूण्याक मरत ह चमकलो चेर्डुं दूध पीत हच निदता, चेर्डुं दूध पीत ह निदलो।

## क्रिया विशेषण भाग - 2

सांगच्याक सांगचे + आक कर्मविभक्ति (सांग्च्याक)
कोरच्याक कोर + चे मूल धातु (आक) विभक्ति मेळतना विकार जायना।
कोरच्याक = ' कोरच्या ' विभक्ति लोप जाव्नु उपयोगु कोरची रीति पळया।
कोर = उंक सांगुक सांगु क लोप केल्लां। कोर मूल धातु
कोरच्याक = कोरच्या, कोरुंक, कोरुं चारि शब्दांक यी समान अर्थु ज़ाव्नु आस्स। प्रत्येक सामान्य क्रियापद हया रीति येरी उपयोगु कोर्नु धेताति।

1) मूल धातु चि उपयोगु कोरका,
2) सकड सामान्य क्रियापद हया चि रीति येरी उपयोगु करतातिं।

उनु प्रत्यय मूल धातु आसल्यारी मूल धातु चि उपयोगु कोरका।

| | |
|---|---|
| कोरचे + कोर = उनु | मूल धातु र अंत्य अक्षर आर्ध जाता। |
| कोर + उनु = कोर्नु | मूल धातु अंत्य अक्षर व आसल्यारी अर्घ कोर्नु बरोका। |
| दवोरचे + दवोर उनु = दवोर्नु | जावचे = जाव + उनु जाव्नु |
| मारचे + मार उनु = मार्नु | दांवचे = दाव्नु |
| सोरचे +सोर उनु = सोर्नु | घुंवचे = घुंव्नु |
| चोरचे + चोर उनु = चोर्नु | लावचे = लाव्नु |
| जोरचे + जोर उनु = जोर्नु | चोवचे = चोव्नु |
| पूरचे + पूर उनु = पूर्नु | लेंवचे = लेंव्नु |
| (धोरचे + धोर उनु = धोर्नु ) | शोवचे = शोव्नु |

अंत्य अक्षर ळ अर्ध

| | | |
|---|---|---|
| मेळचे = मेळ्नु, | कोळचे = कोळ्नु, | माळचे = माळ्नु |
| खेळचे = खेळ्नु | झोळचे = झोळ्नु | लोळचे = लोळ्नु |
| घालये = घाल्नु, | चोलचे = चोलनु | फूलचे = फूल्नु |

अंत्य अक्षर 'ल' आयल्यारी अर्ध बरोका

# क्रिया विशेषण

प्रेरणार्थक कांय काष्ट ना, मूल धातु क 'ओ' आनि 'नु' अक्षर मैळल्यारी जाल्लें। कोर ओ कोरोनु, चोरचे, चोर + ओ चोरोनु
दावोरोचे दवोरोनु, मोलाचे मोलानु गाळाचे गाळानु।
दामोदरु ताका मारोनु चमकलो, तो गोरवांक दांवडानु घेललो।
ति काम कोरोनु येता। ताका काम कारोनु कोरोनु पूरो जाल्लें।
सांगिलें आयख नातल्यारी मार्नु मार्नु घालता, पेपर घरांघर दीव्नु वच्चा।
आंवगलें साबुनु घाल्नु जळजळायी, सुव घाल्नु बोक्को फूलायी।

# पाठ - 33

## म्हळ्यारी, जाल्यारी

' चे आरी ' अधिकरण विभक्ति, चे प्रत्यय लोप जाता।

हि विभक्ति सामान्य भूतकालाक यी मात्र उपयोगु करताति उदाहरणयेक (आसलो, नातलो) सामान्य भूतकालु जाल्यारी आमका उलोचो अभ्यासु, हया शब्दुंचो भारी उणें। जाल्यारी हि विभक्ति मेळतना हया शब्दांचो उपयोगु करताति। हि विभक्ति सामन्य भूतकालाक मात्र लागता जाल ले निमित आसलो आरी आसल्यारी, नातलो आरी नातल्यारी जाल्लें आरी जाल्यारी, केल्लें + आरी = केल्यारी व्हल्लें आरी व्हेल्यारी। पूर्ण भूतकालाक तशी शब्दु उपयोगु कोर्नु उलोचे अभ्यासु आस।

म्हळ्यारी ' म्हळे ले तशी ' तशीं, केल्यारी केल लें तरी, सांगल ले तरी, चमकल ले तरी

तुं काम कोर्नु जाल्यारी यो।

कृष्णु सांगता जाल्यारी हांव आयखता।

आम्बो मस्तु जाल्यारी तुका दिता।

तुं पद म्हळ लें तरी हांव आयखता।

काम केल ले तरी वगी यो।

1 तुमका गोत्त आस्स, नामपदाक जावो क्रिया विशेषण अंत्य अक्षर (ओ, अे, अें) आसल्यारी स्वरु विकारु जान्वु ' या ' अक्षर जाता।

2) पुलिंग नामपद आनि क्रिया पदाक ओत्तक्षर आसल्यारी अर्ध आक्षराक मात्र आरी विभक्ति लागता। केल्लें + आरी = केल्यारी, जाल्लें + आरी = जाल्यारी, गुडडो + आरी = गुडयारी, माड्डो + आरी, माडयारी,

3) हि विभक्ति सामान्य भूत कालाक मात्र लागता, पूर्ण भूतकालाक उपयोगु करनाति क्रिया विशेषण जाता।

4) सामान्य भूतकालाक उपयुक्त केल ली हि विभक्ति अत्यंत चालु शब्दु आसनु दोनि वाक्य ओट्टु कोर्नु उलोच्याक उपयोगु, करताति। (वयले फूटारी थोडो विषयु आस्स)

# प्राठ - 34

क्रिया विशेषण जाव्नु सामान्य क्रियापद (प्रेरणार्थक उपयोगु करतातिं
(कोरचे) सामान्य क्रियापद कोंकणि भाष येंतु हया चारी
(करता, लो) वर्तमान भूतकाल कालाक सकड विभक्ति
(कर थलों) पूर्ण भविष्यत आनि सम्बंध बोधक मेळोनु
(केल लो) पूर्ण भूतकाल व्यक्यांतु क्रिया विशेषण करतातिं।

नंथा हें एक रीति येरी सर्वनामाचे मणके आस।एक्क पंथा सर्वनाम जाव्नु उपयोगु करतातिं

म्होणचे म्हण्च्यान (नी) म्हणच्याक, म्हण्चे खातिर, म्हणच्यांतु (सामान्य क्रियापद)

सांगचे सांगता ल्यान (नी) सांगता ल्याक, सांगता, लेखातिर सांगता ल्यांतु (तात्कालिक भूतकाल)

राबचे थल्यान (नी) राब थल्यांक राब थले खातिर राब थल्यांक (पूर्ण भविष्यत)

उलोचे उलै ल्यान (नी) उलै ल्याक उलै ले खातिर उलै ल्यांतु।(पूर्ण भूतकालु)

1 वर्तमान भूतकालु आनि पूर्ण भविष्यत समान दिसता। व्होड थ उपयोग केल्यारी फरक कळता।

2 नामपदाचे मुखारी आयल्यारी विषेषण जाल्लें।
गायन सांग थलो आयलो। (पूर्ण भविष्यत) आनि येवचो कर्तु,
गायन सांगता लो हांगा भायर बैसला। (यकै तात्कालिक भूतकालु)
चोलचो भूतकालु ।
आतं उलैता लो कहीं घेल्लो, (आंत) तात्कालिक भूतकालु
' उलैथलो ' आनि येवका इतलें चि। (आनि मुखारी) भविष्यत
दुड्डु मागल लो स्वल्प पूढे चमकलो । पूर्ण भूतकालु।

# पाठ - 35

## सामान्य क्रिया विशेषण जाव्नु लिंग भेदु आसनु।

काम कोरचो मनषु, काम कोरची चेंडु, काम कोरचें सामान

काम कोरचे चेडे, काम कोरचीं चेडंव, काम कोरचीं सामनं।

बण बण्णाचो किरू, हया गांवाची चेल्ली, हया गोंवाचे गोड।

' धुवण येचो ' रामु आंवगलें व्होरूंक आयलो। (विशेषण)

धुवण येचो आंवगलें व्होरूंक आयलो (सर्वनाम)

रांधइ कायी 'कोरचो' आयला (सर्वनाम)

आयधन घासुची आनेक यी येनी । (सर्वनाम)

खावचें खाण चांग ना। (विशेषण)

सकडांक यी ' राख थलो ' देवु। (विशेषण)

सकडांक यी ' राख थलो ' तो चि। (सर्वनाम)

रूका मूळाक बैसनु, वाझीता लो। (चेल्लो) (सर्वनाम)

' मस्त शिखल ली ' मास्तर्नी । (विशेषण)

मस्त शिखल ली (सर्वनाम) आयली।

नेल फूसैल ली ' कामाची ' चेल्लि। (विशेषण)

नेल फूशीली कामाची (सर्वनाम)

नेल फूसैल ली कामाची (सर्वनाम) प्रेरणार्थक

# पाठ - 36
## भूतकालाचे प्रत्ययाचे (ले) हाझो विवरू ।

| पुलिंग | स्त्रिलिंग | नपुंसकलिंग | स्त्रिलिंग | पुलिंग | नपुंसकलिंग, पुलिंग, स्त्रिलिंग |
|---|---|---|---|---|---|
| मालघडो, | मालघडी, | मालघडें | मालघडी यो, | मालघडे, | मालघडीं |
| लो | ली | लें | ली यो | ले | लीं |
| कोरचो | ची | चें | ची यो | चे | चीं |

कोंकणि भाषयेंतु सामान्य क्रिया पदाचे (चें) प्रत्यय भूतकालाचे प्रत्यय (लें) भविष्यत कालाचे (थलें) सर्वनाम विशेषण, या क्रिया विशेषण जाव्नु उलैतना वयरी दिल लो आधारु चि मूल तत्व जाव्नु आस।

सांगचो मनषु, सांगची मनषी, सांगचें जन (एकवचन)

सांगची यो चेल्लि यो, सांगचे गुरू, सांगची जनं। (बहुवचन)

(लो) दांवल लो चेल्लो। (दांवीलो) दांवल ली गीता, दांवल  लें मांकड (एकवचन)

दांवी ली चेल्लि यो, दांवी ले चेलले दांवल लीं मांकड (बहुवचन)

(थलो) उलैथलो गोपाळु, उलै थली सीता, उलैथलें बोम्में

उलैथलों मनुष, उलैथली यो पक्षि यो, उलैथलीं चेर्डुवं।

# पाठ - 37

कोंकणि भाषयेंतु प्रत्येक कालांतु, वांटो भेदु तुमका अनुभावक आयला, जाल्यारी हया कालांक विरुद्ध शब्दु (ना) हाझो प्रयोगु पळया। हया कालांतु वर्तमान, भूत, भविष्यत कांय भेदु नातीले उपयोगु करतातिं। प्रत्येक कालांतु भेद ना, तिनि काल़ मात्र।

1 वर्तमान कालाक 'ना' भविष्यत (सना) भूतकालाक (नी)

2 प्रत्येक कालांतु एकुचि कालु आसनु बहुवचन कालाक (ति)
प्रत्यय मळैतातिं (नाति, सनाति, नीति)

3 सामान्य क्रियापदाचो मूल धातु उपयोगु करनातीलें तिनि कालाक यी वर्तमान कालु चि उपयोगु कोरका।

कोरचे 'कर ' = कर ना, करसना, करनी (एकवचन), वर्तमान, भविष्यत, भूत

करनाति करसनाति, करनी (बहुवचन)

नारायणु मेगले लागी उलै ना, नारायणु मेगेले लागी उलैसना भविष्यत

नारायणु मगेले लागी उलै नी। (एकवचन) भूत

चेल्ली यो मेगेले लागी उलैनाति चेल्ली यो मेगेले लागी उलैसनाति चेलली यो मेगेले लागी उलैनीति। एकक वळे (ती) मात्र प्रयोगु करतातिं।

हांव ताका हो विषयु उडगासु करना (वर्तमान)

'उडगासु करैना ' प्रैरणार्थक

गोपाळु वगीषराक भायरषरसना। (भविष्यत)

गोपाळु तांका वगीषराक भायरषरै सना । प्रेरणार्थक

विठ्ठलु आजी सकाणी काफी पी नी। भूतकालु

ताणे माका आजी माका काफी पीवै नी। प्रेरणार्थक

प्रेरणार्थक करतना सामान्य क्रियापदाचो वर्तमान घातु उपयोगु कोरका।

हांव सकाणी उठाय ना। (वर्तमान)

कृष्णु आजी वग्गी उठाय सना। (भविष्यत)

कृष्णु आजी वग्गी उठाय नी।

तुमका गोत्त आस्स सान ' ड ' आनि ' न ' (ड + न) ण अक्षर जाता। तशीं चि ण + न = ण जाता। प्रयोगु भूतकालांतु यी जाता।

| वर्तमान | भूत | भविष्यत |
|---|---|---|
| काडचे = काड + ना = काणा, | काड + नी = काणी, | काड + सना = काडसना |
| हाडचे = हाड + ना + हाणा, | हाड + नी = हाणी, | हाड + सना = हाडसना |
| पोड = पड + ना = पणा, | पड + नी = पणी, | पड + सना = पडसना, |
| म्हणचे = म्हण + ना = म्हणा, | म्हण + नी = म्हणी, | म्हण + सना = म्हणसना |

भूतकालु आन्नेक रीति यरी उपयोगु करतातिं। पूर्ण भूतकालाक ' ना ' उपयोगु कोर्नु भूतकालु निर्णयु करतातिं।

हाडचे = हाड + ल ले ना = हाळ लें ना पूर्ण भूतकालाचे सानरूप

काडचे = काड + ल लोना = काळ लो ना

पोडचे = पड + ल लीना = पळ ली ना

ईलो। पूर्ण भूतकालाचे आन्नेक रूप

दांवचे = दांवीलो ना, दांवल लो ना । ली, लें

पावचे = पावीलो ना, पावल लो ना। ली, लें

गोयांतु हो प्रयोगु चड जाव्नु आस जल्यारी तान्नी ड + न सींध प्रयोगु करतातिं । काडी लो ना, काडल लो ना । हाड लो ना हाडल लें ना सांगीलें ना सांगल लें ना

भूतकालु नी प्रयोगु कोरचे उणें,

नामपद जावो सर्वनामाचे मुखारी येवचे विशेष सूचना।

कोरचे शब्दाक विशेषण म्हणतातिं। विशेषणांतु दोनि रीति यो आस्स। एक विकार जायना, आन्नेक, पु, स्त्री, नपुं, जाव्नु लिंग भेदु आस्स। आनि होवयी एकु यादु दवरा। क्रियापदाक मेळचे विभक्ति प्रत्ययाक आख्यात, विभक्ति म्हणतातिं।

# पाठ 38

## भाग - 1

## क्रियाविशेषण

विशेषणांतु दोनि विभाग आस्स ' विशेषण ' आनि अव्यय शब्दः कसलो यी विकारु जाय नातीलें नामपद, सर्वनाम, आनि क्रियापदाक विशेषण जाव्नु उपयोगु करतातिं। चडावत संस्कृत शब्दः, प्रत्यय घाल नातिले संम्बंध बोधक, आनि लिंग भेदु नातीले विकार जाय नातीले शब्द व्याक्यांतु येता । विकार जाय नातीले विशेषण शब्द पूरा अव्यय ।

संक्षिप्त, आर्थगर्भित, सामान्य, आर्थिक, सामाजीक पूरा

वयरी, पक्कने, मुखारी, माकशी, मूळाक, सकल

चालु, कोड्ड, जोरु, जल्दि जिद्दि, जरूर, केदना, संक्षिप्त, तेदना, हेदना काणि, कोर्नु अर्थगर्भीत सामान्य, आर्थिक, सामजिक

वयरी पक्कने, मुखारी, माकशी, मूळाक, सकल

चालु, कोड्ड, जोरु, जल्दि जिद्दि, जरूर, तेदना, हेदना

संक्षिप्त काणि कोर्नु सांग । हो अर्थगर्भित विषयु, तो सामान्य मनषु आर्थीक द्रष्टि येन तागेल्याक कांयना । त्या घरकडेची समाजिक व्यवस्था। तो वयरी चमकलो । कृष्णु पक्कने आयलो, तुं मुखारी वच मागशी। मोल दिस पशी दिस मागशी येता। तेला मूळाक कसलें दवरला । सकल तांगेलो हो चालु अभ्यासु । खाण पूरा कोड्ड जाल्लां। तुं जोरु जोरु उलो नाका जल्दि काम करी, गोपाळु बझी जिद्दिद मनषु, जरूर वगी भायरषोर्नु यो, कृष्णु केदना येता। तेदना हांवे तुका सांगले हेदना भीतरी व्हेल्लें ।

# भाग - 2 विशेषण

विशेषणाचे शब्द हांका लिंग भेदु आस्स। आमी उलैतना स्पष्ट उलैताति, जाल्यारी हाझो नियमु, उङ्गासु दावोरचो विषयु। विशेषणांतु दोनि वांटे केल्ला।

हाझें रूप एकवचन आनि बहुवचनारी पळया।

अंत्य स्वरु 'उ ' स्वरोचे विशेषण

| एकवचन | | | बहुवचन | | |
|---|---|---|---|---|---|
| पुलिंग | स्त्रीलिंग | नपुंसक | पुलिंग | स्त्रीलिंग | नपुंसक |
| सानु | सानी | सान | सान | सानीयो | सानं |
| वाईट् | वाईटी | वाइट | वाइट | वायटीयो | वायटं |
| चांगु | चांगी | चांग | चांग | चांगीयो | चांग |
| व्होडु | व्होडी | व्होड | व्होड | व्होडीयो | व्होडं |
| परकटु | परकटी | परकट | परकट | परकटीयो | परकटं |

विशेष कसलें म्हळ्यारी कंचे ते पुलिंग स्वर दोनि आसति ' उ ' आनि ' ओ ' आस्स

उदा (ओ)

| | | | |
|---|---|---|---|
| पु | सानु कीरु, साऩ कीऱ | पु | सानु कळशो, सान कळशे |
| स्त्री | सानी पक्षि, सानीयो पक्षियो | स्त्री | सानी दांतुणी, सानी यो दांतुणि यो |
| नपु | सान माझर सानं मांझरं | नपु | सान पुस्तक सानं पुस्तकं |

स्त्रीलिंग आनी नपुंसक सामान्य जाव्नु समान व्यत्यासु आस्स जाल्यारी पुलिंग 'उ' स्वरू 'ओ' स्वरु विशेषण एकचि रूप आस। ' उ ' स्वराचे विशेषण पुलिंग नामपद ' उ ' आनि ' ओ ' अंत्य स्वराक ' उ ' स्वराचें चि यी विशेषण उपयोगु कोरका ।

# अंत्य स्वरु ओ हाझें विशेषण

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| काणशो, | काणशी यो, | काणशों | काणशे, | काणशीयो | काणशीं |
| धवो | धवी | धवें | धवे | धवी यो | धवीं |
| पीशो | पीशी | पीशें | पीशे | पीशी यो | पीशीं |
| आमशो | आमशी | आमशें | आमशे | आमशी यो | आमशीं |
| गोडशो | गोडशी | गोडशें | गोडशो | गोडशीयो | गोडशीं |

हांतु यी विशेष कसलें म्हळ्यारी 'उ ' आनि ओ स्वराचे नामपद आसति। 'ओ ' स्वराचे नामपद आसति ओ स्वराचे सव्यय विशेषण दोनि नामपदाक यी उपयोगु कोरका।

| | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| घुड्डो | मनषु | घुड्डे | मनष | घुड्डो | गळो | घुड्डे | गळे |
| घुड्डी | मनषी | घुड्डी यो | मनषीयो | घुड्डी | चेड्डी | घुड्डी यो | चेड्डी यो |
| घुड्डें | सूणें | घूड्डीं | सूणीं | घुड्डें | कूंकड | घुड्डीं | कूंकड |

हांगा पळ्या, उ स्वराचे पुलिंग आनि ओ स्वराचे पुलिंग दोनि नामपदाक ओ स्वराचे विशेषण उपयोगु करतातिं।
पु, सानु, कीरु, सानु घोडो, चांगु मनषु, चांगु कळशो,
पु, घवो घोडो , पाचवो कीरु, पीकलो आम्बो, पीकलो चिक्कु ।
स्त्री वाईटी चल्ली, वाईटी यो चेलली यो, व्होडी सभा, व्होडी सभों
स्त्री चांगी काणि, चांगियो काणि यो चांगी आलोचना, चांगी यो आलोचनों
नपुं, काळें मांकड, काळीं मांकड, आमशें चींचंम, आमशीं चिंचम
हाझो नियमु स्पष्ट जाव्नु शिखु का, उलैतना आम्ही हशीं चि उलैतातिं, जाल्यारी शिखतना कष्ट दिसना, हे निमित्त कोंकणि बरोच्याक एक् नियमु मेळता।
आमी पूर्ण भूतकालु, तात्कालिक भूतकालु, पूर्ण भविष्यत, आनि सामान्य क्रियापद हया चि रीति येरी ओ स्वराच्या विशेषणाचे मण्के उपायोगु करतातिं।
काम केल लो मनुषु, दांवल लो चेल्लो। दांवीली चेल्लि यो काम कर् थलो नौकरु, काम कोरचो चेडो। कामकर थली चेल्लि यो बरैता लो अध्यापकु, बैरतालो चेल्लो । रूकारी हेकडे तेकडे दांवता ली, छानी, खावचो वाघु, उढची चेल्लि, खावचें खाण।

अव्यय विशेषण केदना यी विकार जाय ना । आन्नेक विशेषण नामपद कशी की तशी चि लिंग भेदु आसुनु ताझे प्रयोजन घेतातिं।
1) हया विशेषणांतु दोनि विधं आसति।
2) पुलिंग विशेषण 'उ, ' स्वरु आनि 'ओ ' स्वरु आस्स।

3) चांगु घोडो 'चांगो ' घोडो सम जाय ना। चांगु रायु सम ओं काळो मनुष सम काळु मनुषु सम नहीं

1) घोडो अंत्य स्वरु 'ओ ' आसल्यारी 'उ ' स्वराचे विशेषण 'उ ' चि बरोका।

2) मनुषु अंत्य स्वरु 'उ ' आसल्यारी 'ओ ' स्वराचे विशेषण 'ओ ' चि बरोका।

पु स्त्री, नपुं, हाझे रूप पळया।

| | |
|---|---|
| पु चांगु चेल्लो बुरगो । | पु पाचवो कीरु। हाझो व्यत्यासु पळया। |
| नपुं चांग सामान। | नपुं पचवें आंवगलें। |
| स्त्री चांग काणि। | स्त्री पाचवी पाना तिरि। |

हाझे बहुवचन

| | |
|---|---|
| पु चांग चेल्ले। | पु पचवे कीर। |
| नपु चांग सामानं। | नपुं पाचवीं आंवगली। |
| स्त्री चांद पक्षि यो। | स्त्रीपाचवी पाना तिरियो। |

अगत्य आसल्यारी बहुवचन विशेषणाक यो अक्षर मेळोये थ।

विशेषण तोरु, सपुरु फुट्टु, नीट्टु, दाट्टु, पातळु, वाइट्, गोरो, तांबडो, ओट्टो, चोट्टो, कुसलो, गुढो, फिंदलो।

# पाठ - 39
## शक्य सूचक भविष्यत कालु

1 हया कालाक ' कोरच्याक साध्य आस्स म्हळलो अर्थु येता। एक तरचो सामर्थ्य सूचना करता।

2 सामान्य क्रियापदाचे मूल धातु उपयोगु कोरका।

3 हया कालाक व्याक्यांतु कोणे म्हळलो प्रशनो येता। तशीं जाव्नु नामपदाक आनि सर्वनामाक कर्ता (प्रथम) विभक्ति मेळैताति।

4 मूल धातु चे ओट्टु 'ये' अक्षर सहायक जाव्नु धेताती नंतर व्होड ' थ ' प्रत्यय मेळता।

| | समान्य क्रियापद | प्रेरणार्थक |
|---|---|---|
| कोरये | कोर +ये कोरये = थ | कोरोये कोरो + ये = कोराये थ । |
| मोरये | मोर + ये मोरये य | मोरोये मोरो + ये = मोरोये थ । |

उलोये थ (कोणे) क्रष्णान उलोये थ।जावये थ। ताणे हो वस्तु जावये थ म्हळ्ळा।

सांगये थ (कोणे) सीत येन सांगये थ। सांगये थ।

मारये थ (कोणे) ताणे ताका मारये थ। मारये थ।

हांवे तें काम कोरये थ। तुंवे सीधा वोचनु हाडये थ । हाडये थ।

बहुवचनांतु हया कालाक क्रियापदाक एकवचन, बहुवचन ना । लिंग भेदु ना ।

तुमी सांगुक वोचये थ, तान्नी व्होरये थ, तान्नी व्होरोये थ

हो कालु कोंकणी भाषयेंतु अत्यंत चालु कालु जाव्नु आस्स।

हया कालाक अर्थु हशी आस्स, कोरच्याक साध्य आस्स।

म्हळ्यारी कोरये थ। बरोच्याक साध्य आस्स। बरोये थ।

साध्य हे शब्दांतु सामार्थ्य सूचना करता।

हया रीतियेचो कालु अंन्य भाषयेंतु ना म्हणु लेकता।

सामार्थ्य दाखोचो कालु जाल ले निमित हया कालाक शक्य सूचक भविष्य कालु म्हणु नांव दील्ला।

# पाठ - 40

## संपूर्ण प्रेरणार्थक हो एक् कालु

प्रत्येक सामान्य क्रियापदाक कोरचे म्हळले सामान्य क्रियापद सहायक जाव्नु घेतातितति।

मूल धातु उपयोगु करनातीलें वर्तमान कालाचे धातु क ' अैस ' म्हळ ले प्रत्येक मेळैतातिति। हो कालु चालु आसुचे उणें जाल्यारी विवरु शिखुका जाता।

| सामान्य क्रियापद | | प्रेरणार्थक |
|---|---|---|
| कोरचे | कर अैसे, करैस कोरचे | करैस कोरोचे। |
| हाडचे | हाड अैसे, हाडैस कोरचे | हाडैस कोरोचे। |

तुंवे लागी राबुनु दूसरे करैन कोरोचे, करैस कोरचे
तुंवे लागी नातीले दूसरे करैन कोरचे, करैस कोरोचे ' प्रेरणार्थक '
हांव सांगैस करता, राम विंगड जनांचे करैन पावैस करैता।
सहायक जाव्नु घेवचे सामान्य क्रियापद कोरचे आनी कोरोचे वर्तमान भूत आनी भविष्यत कालु जाव्नु उपयोगु कोरोये थ।
सांगैस करता, सांगैस केल्लें, सांगैस करता लो,
सांगैस कोरये थ, सांगैस कोरोये थ।

# पाठ - 41

कोंकणि भाषयेन वगी वगी उलैतना आसुची चालु रोति सर्वनामांतु थोडो नियमु हशीं आस्स।

तुगेलें लागी = तुगेलागी , मेगेलागी, आमगे लागी तुम्गे लागी (ले) लोप कोनु उलैताती तुगे तहीं, मेगे तहीं, तागे तहीं, हागे तहीं तुम्गे तहीं, तांगे तहीं, हांगे तहीं

सर्वनाम बहुवचनांतु मात्र तुमतुमगेलें, तांगतांगेले, आम आमंगेलें,
तंतहीं, मेगे तहीं तागे तहीं, तांगे तहीं आमगे तहीं तांगे तहीं तुमगे तहीं।

किंतकीं, की म्हणु, हया शब्दांक एक् ची अर्थु, हो शब्दु संशयु प्रकट करता तशीं जाव्नु प्रत्येक वर्तमान, भूत, भविष्यत कालाक उपयोगु करतातित।
तो सांगता कितकीं, कृष्णु ये थलो कितकीं, रामु आयलो कितकीं। (ताणे) ताझे करैन कोरोये थ कितकीं, ताका (हांवे) मारोये थ कितकीं। तीं उलैताति कीम्हणु, कृष्णु हाडता की म्हणु।

(म्हणु) हो एक चालु शब्दु म्होणचे हया शब्दाचो धातु हांतु ताकुनु आर्यालो शब्दु

कोंकणि भाष येंतु मस्तु चालु आस। कन्नडान ಎಂದು म्हणु अर्थ येता।

ण + न = ण म्हणु + उनु = म्हणु दोनि व्याक्य यकै दोनि क्रियापद एक करता। चडावत उलैतना हाझो अभ्यासु चड।

दिसचे हें सामान्य क्रियापद सहायक घेव्नु उलैताति। कृष्णु म्हणु दिसलें । तो आजी येता म्हणु दिसता। आजी घलाटो म्हणु दिसता। हांवे आजी येता म्हणु म्हळ्ळां। आयीलो मनषु कृष्णु म्हणु लेकलें । तो तशीं म्हणु घेव्नु चमकलो।

तो येवका म्हणु म्हणता लो। म्होण + उनु म्होणु हझो हो आर्थु ಹೇಳಿ म्हणु अर्थु येता।

# पाठ - 42
## शो हाझो प्रायोगु

1 'शो' एक् शब्दु हाझो रूप शो (पुल्लिंग) विशेषण मणके आसता।
विकार तशीं चि आर्थु सम्बंध बोधक ताझे व्हरी, ताझे मणके म्हळ लो अर्थु आसता।
2 'शो' हया शब्दाक लिंग भेदु आस। शो, शी, शें, शे, शीं हीं रूप घेता।
3 नामपद सर्वनाम आनि क्रियापदाचे ओट्टु उपयोगु करतातिं।
4 कोंकणी भाषयेंतु, व्यक्यांतु पु, पुलिंग स्त्रीलिंग नातल्यारी व्याक्य नपुंसक शें,
हाझे ओट्टु जाव्नु उलैतातिं। दिसचे। हें सामान्य क्रियापद चड जाव्नु उपयोगु करतातिं।

नामपद = ताका पळैतना गोपाळु शो दिसता।

सर्वनाम बाळांति जाव्नु चेर्डु चेल्लि - शी दिसता। शें (हया व्याक्यांतु पु, स्त्रीलिंग, नपु + भेदु आस्स )
क्रियापद आजी कागद येताशें दिसता, तो उलैता - शो दिसता (सर्वनाम)
नामपद तो घोडो शो उढता,
भूतकालु, पळैतना वगी खेल्लें शें दिसना।
कोण यी येना शीं दिसता। (वर्तमान कालु)
कोण यी येनी - शीं दिसता।(भूतकालु)
आजी ये थलो शो दिसता (भविष्यत)
काम कोरचो - शो, कोरची - शी, कोरचें शें दिसता।
प्राणि वाचक निर्णयु कोरचो नमुनो

विशषेणचे मणके

| | | |
|---|---|---|
| धारलो मनषु | बाइल मनषी | गायी, मशी येक हो क्रमु ना |
| धारलें घाडव | बाइलें घाडव | पाडडो, रडडो हांका विंगड नांव आस्स |
| धारली हस्ती | बाइली हस्ती | |
| धारलो घोडो | बाइलो घोडो | |
| धारलो सूणें | बाइलें सूणें | |
| धारलें वासरुं | बाइलें वासरुं | |

1) लिंग भेदु ना, स्त्री आनि नपुं, नामपद, सर्वनाम सकडाक यी एकु चि नमूनो।

2) सामान्य क्रियापद हाझे ओट्टु ' नाका ' हो शब्दु प्रयोगु कोरका।

3) नामपदाक सर्वनामाक कर्ता (प्रथमा) विभक्ति उपयोगु कोरका

4) अन्य पुरुष सर्वनाम बहुवचन हान्नी, तान्नी मात्र उपयोग कोरोका। पुलिंग आनि नपुसक, सर्वनाम समान उपयोग कोरका ।कृष्णान येवचे नाका।जनांनी कसलें यी खावचे नाका। राध येन नांचे नाका । सकड चेल्लियांनी बरोचे नाका। तुंवे वाझुचे नाका। तुमी कोरचे नाका। ताणे, हाणे उलोचे नाका। तान्नी हान्नी उलोचे नाका। तिणे, हिणे

प्रेरणार्थक हाझे सामन्य क्रियापद उपयोग कोरका उलोचे नाका, पाळोचे नाका, दांवडाचे नाका कीं आनि वे

कीं आनि वे हाझो एकु चि अर्थु जाल्यारीं कीं प्रश्नो घाल्वो अनुभव येता । 'वे ' हया शब्दाक अनुमति निमगुचे अनुभव येता। हे शब्दः सकडकालाचे अंत्य उपयोग करताति। कृष्णु काम करता कीं, कृष्णु काम करता वे । तुं आजी येना नवे, तो कसलें यी खायना नवे। गोपाळु केदना यी येता कीं, तो कसलें म्हणता कीं। ' कितकी ' हो संशायस्पद शब्दु, चालु शब्दु प्रत्येक कालाक उपयोग करताति। कीं म्हणु हया शब्दाक तो चि अर्थु येता।

# पाठ -43

## विध्यार्थक भाग - 1

1) विशेष कसलें म्हळ्यारी उत्तम आनि अन्य पुरुषाक मूल धातु उपयोगकोरका
2) मध्यम वर्तमान धातु उपयोग कोरका
3) उत्तम, मध्यम, अन्य पुरुष एकवचनाक क्रियापदाचे ओट्ट पुलिंगाक रे स्त्रीलिंगाक घो बहुवचनाक पु घा, स्त्री घे उलैतना अगत्य पळ्यारी उपयोग करताति।

| | |
|---|---|
| अनुमति सांग रे, घो | सांगुया घा, घे |
| सांग रे, घो | सांगयां घा, घे |
| सांगो रे, घो | सांगोति घा, घे |

1) विध्यार्थक हाझें तिनि विभाग केल्ला ।
2) उत्तम (अनुमति) मध्यम (आज्ञा) अन्य (ओपिगा हीं तिनि नांव निश्चित केल्ला।
3) उत्तम आनि अन्य हया विभागाक सामान्य क्रियापदाचो मूलधातु उपयोगु कोरका।
4) अवश्य पळ्यारी एकवचनाक पुलिंग ' रे ' स्त्रीलिंगांक' घो ' नपुंसक ' रे ' उपयोग करताति । बहुवचनाक पुलिंगाक ' घा ' स्त्रीलिंगाक ' घे ' नपुंसकाक कसलें यी उपयोगु करनाति। एकवचन सा क्रियापद प्रेरणार्थक बहुवचन सा क्रि प्रे एकव्यक्ति वचन

अनुमति

| | | |
|---|---|---|
| 1) | उत्तम हांव कोरु कोरो उं<br>अगत्य आसल्यारी (रे)<br>स्त्रिलिंगाक घे । | आमी कोरयां, कोरोयां,<br>अगत्य आसल्यारी घा<br>स्त्रिलिंगांक घे । |

आज्ञा

| | | |
|---|---|---|
| 2) | मध्यम तुं करी (रे) घो, करै घो | तुमी करया,(घा) करैया<br>घा, आपण करा तुमी<br>करया हो करैया हो |

ओपिगा

3) तो, ति, ने कोरो (रे, घो) कोरो वहो रे तीं, ते कोराति
हो, हि हें कोरो (रे) घो कोरो व्हो धो, हीं, हें, तान्नी हान्नी
कोरोति तान्नी हान्नी
कोराति कोरो व्होति (घा यकै घे)

# आज्ञा भाग - 2

मध्यम पुरुष आज्ञा हया क्रियापदाचे शब्दः आभ्यास बलारी शिखुका जाता। हया धातु चे अंत्य अक्षराचो स्वरु 'अ ' ई आसता मारचे = मारी, हाडचे = हाडी, कोंढचे = कोंढी, पूरचे = पूरी, माळचे = माळी, धारचे = धरी, चडावत अंत्य स्वरु 'ई' स्वरु आसता धातचे अंत्य अक्षर ' उ ' स्वरु आसल्यारी ' ई ' स्वरु जाता फूसचे = फूशी, घासुचे = घाशी, झोडसुचे = झोडशी, एक अक्षर धातु येवचे = यो, पीवचे = पी, दीवचे = दी, खावचे = खा, नांवचे = ना, धूवचे = धूई, अंत्य स्वरु ' अ ' बैसचे = बैस, पावचे = पाव, राबचे = राब, उठचे = उठ, रोडचे = रड, मोरचे = मर, पोडचे = पड, शिखचे = शिख, चोडचे = चड, पळोचे = पळे,

प्रेरणार्थक वर्तमान धातु उपयोग कोरका। सक्कड समान उपयोग करताति। कोरोचे = करै, मारोचे = मारै, उलोचे = उलै, निदाचे = निदायी, भीष्टाचे = भाष्टायी, फूलाचे = फूलायी, पीवोचे = पीवै, खावोचे = खावै, दीवोचे = दीवै

# भाग -3

## ओपीगा

मूलधातु कोरचे

तो, हो, ति हि कोरो, कोरो व्हो तान्नी, हान्नी, तीं ही, कोरोति कोरो व्होति म्होणोति म्होणो व्होति।

म्होणचे

तो म्होणो म्होणो व्हो तान्नी म्होणाति

## प्रेरणार्थक

| | | |
|---|---|---|
| तो, हो, ति हि कोरोव्हो | तान्नी, हान्नी कोरो व्होति | |
| हो उलोव्हो | तीं, ही, उलोव्होति । | |
| एकवचन | बहुवचन | प्रेरणार्थक |
| प्रेरणार्थक | आमी कोरयां | कोरोयां |
| अनुमति | सांगु सांगो उं | उलोयां |
| --- | उलो उं | पळोयां |
| -- | बरोउं | -- बरोयां |

# भाग - 4

' का ' हया शब्दाचा अर्थु (कन्नडान बेकु ) (ಬೇಕು) हिन्दी येन चाहिये म्हणु येता

1) ' का ' मेळतना क्रियापद मूल धातु उपयोगु कोरका ।

2) नामपद जावो सर्वनामाक कर्ता विभीक्त उपयोगु कोरका । कृष्णान येवका। ताणे पद म्होण का। तान्नी माका काम सांगुका। जनानी सकडानी भजन येक येवका,

प्रेरणार्थक तुंवे हें काम कोरो का, हांवे कोरोका म्हणता (हांवे) माका तें जावका म्हळता । गोपाळान हो विषयु उलोका (तुंवे) वकद ताका पीवोका । सांगीले आयक ना । ताझे करैन वाझोका

' का ' हाझो विरुद्ध शब्द ' नाका '

' नाका ' शब्दु उपयोगु कोरुंक नझ म्हणु येता। विष्णु न हे काम कोरूंका, विष्णु हें काम कोर नाका । भाषण कर थल्यान मस्त उलोका, भाषण करथलो मस्त उलो नाका ।

ड + न = ण तुं हें सामान काणाका काड+ ना = काणा।

सीता तुं कसलें यी हाणाका ।

वाइटं उतरं उलो नाका ।

ण + न = ण तुं म्हळ लें म्होणा का।म्होण + नाका = म्होणाका

सामान्य क्रियापदाचे ओटटु ' नाका ' म्हळ्लो शब्दु आयल्यारी व्याकयांतु नामपद जावो सर्वनामपदाक कर्ता विभक्ति उपयोगु कोरका ।

यवचे नाका (कोणे) ताणे, तिणे, हांवे तुंवे तुमी, तान्नी, हान्नी, राधान गावंतु येवचे नाका। तुंवे दिसांदिस राकुनु बैसचे नाका कसलें यी काडचे नाका। तहीं तिणे मस्त राबचे नाका।

## भिष्टानु उलैतना

आज्ञा धातु क ' शी' अक्षर प्रयोगाक हाडताति।

वर्तमानधातु कर + शी = करशी, सांग+ शी = सांगशी

एकवचन हाडशी, मारशी, लायशी, व्हरशी, मरशी, खाशी, येशी, वचशी,

बहुवचन हाडयाशी, करयाशी, मारयाशी, घुंवडाशी धरशी पी शी, आपडशी, प्रेरणार्थक

एकवचन करै शी, व्हैरशी, माघैशी, घुवैशी, चोयै शी  लायै शी, उलैशी, बरै शी बहुवचन करैया शी, माघैया शी, घुवैंयाशी चोयेया शी लायेया शी, उलैय शी, बरैया शी

# पाठ - 44 वे यकै कीं

हांतुलो स्वल्पु विषयु दोनि तीनि पंथा विचारु कोर्नु अभ्यासु करा।

1) वे आनि कीं प्रशनो सूचक शब्द्, भाषयेंतु दोनि अत्यंत चालु आस ।

2) वे आनि कीं कन्नडान ' एनु ' आनि हिन्दी येन ' क्या ' म्हणु अर्थु येता ।

3) सकड कालाक यी उपयोगु करताति । रायु येता वे (कीं) कोण कसलें उलैता कीं (वे) तो आयीलो (आयल लो)वे = सूणें आयलें वे (की) आजी तांदुलु येव्नु व्होर वे, कीं = हांव हें काम कोरुं वे माका गोत्तु ना। तुंवे साहिबा हांव भील्लो । तु कीं तो कीं कोण यी एकल्यान आयल्यारी पूरो । तुं सांग नावे तुंवे करनीवे, तो येसनावे, 'जायी ' म्हळ्लो शब्दु हाका ' जावका' म्हणु अर्थु येता। हाझो विरुद्ध शब्दु ' नझ ' नाका म्हणु अर्थु येता। ताका जायी कीं नझ म्हणु सांग । जायी म्हळ्ळा नवे वापास कसल्याक निमगुचे । जायी जायी म्हणु जाल लो, सगळो दिसु तें जायी हे जायी म्हणु रडता।

मास्तरान सांगच्याक नझ म्हळ्ळां। मास्तरान सांगचे नाका म्हळ्ळा । केदना यी येवचे नाका हाझे फरख पळया।

2) कोंकणि भाष येक आतं कालक अन्य भाषयेचे शब्दु मस्त अगत्य आस। त्या शब्दांक सम जाव्नु प्रयोगु कोरच्याक सूलभ उपाय़, सोडचे ड्रायवर = सोडपी ड्रायविंग = सोडप

उलोचे = उलोप, भाषण उलोपी = भाषण कर थलो, (स्पीकर)

रांधचे = रांधप = राधपो = मस्त रांधपीं,

वाझचे = वाझप = वाझपो - मस्त वाझपीं

बरोचे बरप = अक्षर, बरपी = बरैथलो (रायटर)

करप, लावप, दांवप, खावप, माघप, चोवप, मेळप, तळप, सांगप सामान्य क्रियापदाचे धातु क प जाव ओ पी मेळोनु अन्य भाष येच्या शब्दांक सम जाव्नु शब्द निर्माण कोरये थ ।

3) हेकडे = हया दिक्कान, एकडे = एक बरीन फरख पळया (बझीं = सर्वर्था = बिलकूल = खंडित = केवल बझीं चारि रूपयी यो, बझी काणु घाल लो, बझी

वाइट्, बझी सुमारु, नीट = शरुत,= दीघ = सम = सीधा
नीट काम करी, नीट राब, नीट राव,नीट दवरी वच,भरी = मस्त, तोंड भरी उलै, पोट भरी खा, पोट भरी खा, कळशो भरी उदाक, डब्बो भरी खाण दी, गांव भरी सुद्दी, रात भरी नीद, डब्बो भरी खाण दी, गांव भरी सूद्दी, रात भरी जागरण ।
तंढ = उदाक तंढ आस, तो बझी तंढ, काम, केदना यी हशीं तंढ तो।
4) भोड खावचे, उलैल लें उलोचे, = बाधा दीवची, भोडांतु व्होरचे = मनांतु व्होरचे भोड सम ना = माथें सम ना, भोड सम नातीलो = पीश्शो,भोडांतु वच्च ना = सांगीले मनांतु वच्च ना, भोड मारचे = अन्याय जाव्नु पैसो मारचो, भोडांतु दवरी = उडगासु दवरी, भोडांतु ये ना = विचारु येना भोड कहीं दवरला = विचारु कहीं दवरला।
सम अन्यंत चालु शब्दु हिन्दी येन ठीक कन्नडान ಸರಿ
वर्तमान, भूत, भविष्यत कालांतु क्रियापदाचे ओट्टु उलैताति।
कृष्णान हें काम कोरचे सम (नहीं)
तुवें हया वेळारी आयिलें सम (नहीं)
कामचो काम वेळारी येव्नु सम करता (करना)
सम उलै, सम सांग, सम करी सम वाझीं
(वै) हाझो आर्थु हां म्हणु येता ।
न वे आनि हाझो प्रयोगु । कन्नडान ಅಲ್ಲವೆ
कृष्णु वै कीं नही = कृष्णु नवे
वै म्हणता तो चि आयीलो
वै (रे, घो, घे घा) वै तुं सांगिलें ले सम।
वै घो हें पंथा तुं गावांतु वच ।
वै कीं नहीं हाझो अर्थु कळता नवे
आयिलो दीवाडु कीं नहीं (नवे)
हो विषयु तो सांगता लो नवे, कीं (कीं नहीं)
आत उलैता नवे, तुं येवचे मागीरी नवे,
सकाणी उठायता नवे।
पूणि (कन्नडान आदरू) म्हणु अर्थु येता ಆದರೂ

तो पूणि येता कितकीं, कृष्णु पूणि, सांगो, कांय पूणि, उलै रे। पूढे (कन्नडान मुंदे)म्हणु अर्थु येता, शुरुवे प्रथम हशीं अर्थु येता तुं पूढे यो, पूढेक चि वच ड+ ल = ळ पूड + लें पूळ्ळें, फूळ्ळी, पूळ्ळो (लिंग भेदु आस्य। पुरातन, पोर्ने पूळ्ळो कालु, पूळ्ळीं पूस्तकं, पूळ्ळें यंत्र (मेशन) पूळ्ळें बांगर

मध्यम पुरुष आज्ञा केलव क्रिया पद अंत्य स्वर ' अ ' अनि केलवाक ' ई ' स्वरु आसता हाझो व्यत्यासु शिखतां, शिखतां कळता।

अ स्वरु एकवचनांतु

बैस, राब, उठ, उढ, युंव, रड, चल, मर, दांव, वच, व्हर, शिख, फूल, माघ, सांग, लेंव खेळ, पड, सेंक, दिस, मेळ एक अक्षराचो घातु, यो, पी, दि, खा, घे, जा, (पळे) निददे इतर घातु चड जाव्नु ' ई ' अंन्य स्वरु आसना करी, मारी, हाडी, काडी आपडी, वाडी, कोंढी, वांटी, वाटी, धुयि, चोयी, लायी, मोयी, खोंबी, घशि, फूशी, पूरी, घरी, तिळशी, गुणशी, चलाशी, झोडशी, माळी, घाली, मोडी, धाडी, तांडी, सोडी, फूंकी, धांकी, उकळी ।

सकड घातु ' अ ' अक्षर सहायक वाव्नु मेळता शिख = शिखया, माघ = माघया, सांग = सांगया, व्हर = व्हरया ।

मारी मारया, घाली घालया, फूशी= फूसया, प्रेरणार्थक (एकवचन) कर = करै, सांग - सांगै, दांव- दांवै, लायी = लावै पाव-पावै, आपडी = आपडै। काडी = काडै, तंढी = ताढै फूशी = फसै (बहुवचन) करै = करैया, सांगैया, फूसै = फूसै या, व्हरै = व्हरैया वाडै = वाडैया

# भाग - 1

## कोंकणि भाष उलोचो नमुनो आनि विभर्शा

1) म्हळ्ळे + आरी प्रत्यय मेळतना ' ळ ' अक्षर लोप कोर का, म्हळ्यारी केल्ले +आरी     केल्यारी दावलें + आरी = दांवल्यरी

2) आमी वग्गी उलैतना उच्चारु ' र ' अक्षर करताति।

उलैल्यार, सांगैल्यार, मारल्यार है मात्र उडगासु दवरा बरैतना उलैल्यारी, सांगैल्यारी, मार्ल्यारी हशी बरैया।

3) घर वच विंगड विंगड शब्दु । घरां वच हें सगळें व्याक्य घर + आंतु घरांतु वच घरां, हाथां  नामपदाचे विकार दवर्नु उलैताति ।

4) वग्गी उलैतना घरांतु अंत्य अक्षर ' त ' कोर्नु उलैताति घरातं वच, घरां वच, (घरांत वच) उलैतना घरांतु बरै हाथांतु चेर्डु आस, हाथां चेर्डु आस, कानांतु उलै, काना उलै (कानांत उलै)

5) आमी उलैतना पुलिंग, स्त्रीलिंग कोर्नु उलैल्यारी गोंधोळु जाता ते खातिर व्याक्यांतु नपुंसक लिंगाक महत्व दील्लां।

6) वाक्यांतु पुलिंग जावो स्त्रीलिंग शब्दु आसल्यारी मात्र जाल्यारी मनांतु पुलिंग जाओ स्त्रीलिंग आसुका। तावळी मात्र पुलिंग स्त्रीलिंग अनुकूल कोर्नु उलैताति । हें क्रिया विशेषण कोर्नु, दाव्नु पळोनु, सांगोनु वगी उलैतना अंत्य अक्षर ' न ' कोर्नु डलैतानि, काम कोर्न चमकळो । बरैतना कोर्नु बरैया तो उलोन येता । तो उलोनु येता।

इतें बरें (किंतें) होव यीं शब्दु चालु आस। नपुंसक अर्थु एकु चि क्रष्णान ताका कसलें दील्लें । कांय दील लें ना। हांवें सांगीलें आयख, तुवें मारलें वे ताका (नपुंसक)पु) हांवें सांगल लो मनषु आयलो, ताणे वडिड मारली (स्त्रीलिंग) उलैलें सम (नपुं ) उलै थलो आयलो (पुलिंग) वर्तमान कालाक मात्र लिंग भेदु ना, कोण करता, कोणें केल्लें, कसलें करता  कसलें करथलें ) भूत भविष्यत कालाक लिंग भेदु आस्स)

# आयखल लें पूरा सांग

कोंकणि भाषयेंतु एक व्यक्ति बहुवचन आस्स जाल्यारी इतर पुलिंगाक तें चि बहुवचन ते आयलें, हे चमकले, गुरु हो विषयु आयखले।

स्वामे कसले उलैले,

इतर पुलिंगाक हें चि बहुवचन

एकवचन बहुवचन

पारवो दांवलो पारवे दांवले

पाथरु हाळ्ळो पाथर हाळ्ळे

हो वस्तु धरलो हे वस्त धरले

गोडो उढलो घोडे उढले

व्यक्ति वाचक (मनुषाक मात्र ) स्त्रीलिंग आनि नपुंसक वाक्यांतु बहुवचन समान आस्स।

मस्त जनं चमक लीं (चमकल लीं) पूर्ण भूतकाल

1) तीं हीं हें बहुवचन तीनि लिंगाक यी उपयोगु करताति

2) तान्नी, हान्नी हें बहुवचन तीं, हीं बदलाक वर्तमान, भूत आनि भाविष्यत कालाक उपयोगु कोरये थ। नंथा कर्ता विभक्ति लोप जाव्नु आशीले निमित तीं हीं (तान्नी हान्नी) हें सर्वनाम चि चड उपयोग करताति। मांकड आयलें (एकवचन)मांकड आयलीं रायु आयलो, एकवचन राय़ आयले (एकवचन, बहुवचन) मस्त रायः आयले। (बहुवचन) सभा, सभों गावांतु वेळारी जाल्लीं। स्त्रीलिंग ताणे मस्त आलाचनों सांगलीं।

5) अकर्मक सकर्मक कोंकणि भाष येंतु कंचे सामान्य क्रियापदाक जाता हाझो नियमु जाग्रत येरी शिखु का पडता।

हाझे सामान्य क्रियापद अभ्यासु करा। येवचे, मोरचे, जावचे, नावचें, पावचे, दांवचे, शिखचें, चमकुचे चोलचे, बोरचे, निदचे, उढचे, बढ्ढुचे, रोडचे, पोडचे, भोंवचे, पोवचे, पावचे, लोळचे, उवाचे, वलोचे वरचे वोरचे, दिसचे, दिक पोडचे। नमगुचे, चोडचे इतर केलव शब्द शिखतना अभ्यासु जाता। व्याक्यांतु तना, तछी प्रयोगु नातल्यारी हाझो (भेदु शिखुका पडता।)

व्याकरण म्हळ्यारी तो नियमु कसलो म्हणु कोळका जाता। व्याकरण चूकल्यारी हांव कसलें उलैता म्हणु माका अर्थु जाय ना नंतर आन्नैकल्याक कशी अर्थु जावचे।

1) उलैतना ताणे दांवला म्हणा, आमका चूकले मणके दिसता तो दांवलो ।हें सम हो सांगलो, सम नहीं। हाणे सांगलें सम वयरी दिल ले सामान्य क्रियापद अभ्यासु करा। त्या क्रियापदाक कर्ता विभक्ति नामपदाक जावो सर्वनाम उपयोगु करतातिे। वाक्य सान आसुनु विशेषण नातिले तावली हाझें अगत्य पडता रामु उलैला । गोपालु नयीं येंतु बूढलो । तो तहीं दिसलो। सूणें मेल्लें । हांव चमकलो सान सान वाक्य।

2) कचें यी सामान्य क्रियापद विंगड उपयोगु करतना, नामपदाक सर्वनामाक कर्ता विभक्ति लागता। हांतु अकर्मक सकर्मक म्हळ लो भेदु ना । रामान उलोचे (सम) तो खावचे (सम नहीं) ताणे खावचे पळैलें वे (सम) तो खावचे (सम नहीं)

3) व्याकयांतु सामान्य क्रियापदच्या कंचे यी धातु क तना, तच्छी प्रत्यय मेळैल्यारी प्रत्येक नामपदाक यकै सर्वनामाक कर्ता विभक्ति लागता। (तना) गोपाळान चोयतना माका कळ्ळें, हावें दांवतना उम आयली। ताणे मेळतना, हांवें येतना, तान्नी काम करतना।

ताणें सांगतना उष्टें पडता, तान्नी मरतना तहीं हांव आशीलो। (तच्छी) तुंवें सिनेम पळैतच्छी वोचु का। हांवे हे काम करैतच्छी तुं करै। (तुंवें) चेर्डाक निदाय तच्छी वच (ताणे मार तच्छी तो बाधा दीना नातीलें नुत पळ्ळो।

कर्ता विभक्ति वर्तमान कालांतु कंच्या नामपदाक जीवु ना त्या नामपदाक उपयोगु करतातिे। सामान, हाथु, रगत, हसल्या शब्दांक कर्ता विभक्ति करण विभक्ति जाव्नु उपयोगु वर्तमानकालांतु करतातिे। हाथान मारता (हाथाचान मारता) चे आन ' चे ' प्रत्थय लोप जाता)

वाईट रगतान देहाक नित्राण जाता। (एकवचन) सराग हाथानी मारता (बहुवचन)

मारल ले पेटान आंग दुखता (एकवचन) पेटानी बहुवचन)

सानु विषयु जाल्यारी तुमगेले कळिताक हाळ्ळा

6) आसचे, आसुचे हें सामन्य क्रियापद दोनी यी अर्थु एकु चि ' आस'

हाझो ' धातु' लिंगभेदु नातीले व्याक्यांतु क्रियापद जाव्नु उपयोगु करताति।

नारयणु कहीं आस्स तो हांगा चि आस्स

तुं आतं कहीं आस्स म्हणु सांग, हांव परगांवां (तु) आस्स। लोप रुकाक मस्त आम्बे आसति (बहुवचन) हाझो वर्तमान कालु गांवु सकड सांगता आसति, आसता, आसताति।

आसुचे हाझे भूतकालाचे रूप आशीलें आशीलो, आशीली।

सामान्य क्रियापद हाझो मूल धातु अन्य अक्षर ' व ' आसल्यारी वतमान, भूत आनि भविष्यत कोलातु ' व ' अक्षर लोप जाता, बदलाक ' य ' जाता हाझो स्वल्पु अनुभवु घेवयां

| सा, क्रियापद | धातु | वर्तमान | भूत | भविष्यत |
|---|---|---|---|---|
| येवचे | येव | येता | आयलें | ये थ |
| पीवचे | पीव | पीता | पील्ले | पी थ |
| घेवचे | घेव | घेता | घेतलें | घे थ |
| नावचे | नाव | नाता | नाल्लें | नाय थ |
| भिवचे | भिव | भिता | भिल्लें | भि थ |
| जावचे | जाव | जाता | जाल्लें | जाय थ |
| खावचे | खाव | खाता | खेल्लें | खाय थ |
| दीवचे | दीव | दीता | दील्लें | दी थ |
| लावचे | साव | लायता | लायलें | लाय थ |
| चोवच | चोव | चोयता | चोयले | चोय थ |
| मोवचे | मोव | मोयता | मोयले | मोय थ |
| पावचे | पाव | पावता | पावलें | पाव थ |
| पोंवचे | पांव | पोंवता | पोंवले | पोंव थ |
| लेंवचे | लेंव | लेंवता | लेंवले | लेव थ |
| शोवचे | शोव | शोवता | शोवलें | शोव थ |
| दांवचे | दांव | दांवता | दांवलें | दांव थ |

प्रेरणार्थक मस्त कष्ट ना, मूल धातुक अै मेळैल्यारी जाल्लें दीवचे दीवोचे दीवो = दीवैता दीवैलें दीवै थ ।

चोवचे थे, चोवोचे, चोवो, चोवैता, चोवैलें,चोवै थ ।

हो विषयु उडगासु दवरा
हाड + ल हाळ, काड + ल = काळ
हया धातांतु एक अक्षराचो धातु जाता । तशीं जाव्नु । भूतकालक ओत्तक्षर घालका। हाळ्ळें, काळ्ळें, माळ्ळें
उसोळचे उसोळ हे शब्दः एक अक्षराचो धातु जायना निकोळ चे निकोळ तशीं जाव्नु ओत्तक्षर घालुंक नझ। ळ + ल = ळ तो तहीं ताकूनु निकळो, बीग निकळें, चेलिल उसळी, शब्दु उसळो।
आपण एक व्यक्ति बहुवचन, आमी बहुवचन
आपणाक = माका, आपणाले = आमगले, आमी = आपणान सकडी विभक्ति मेळता
आपणाचे, हो शब्दु स्वल्प घोंदलायता, हो प्रेरणर्थक शब्दु वर्तमान आपणायता, भूत आपणायले, आपणाय थ, आपणाय थलो हाझो अर्थु स्वंताक कोंर्नु घेवचे, (कन्नडान ಡನ್ನದಾಗಿಸುವುದು) आपणायक ' य ' अक्षर कशीं येता म्हळ्ळो संशयु येता। आपण इतल्याक, पूर्व सूचित करनातिलें, ताझे इतल्याक रूकु आपण  इतल्याक पाळ्ळो,  आपण इतल्याक सकड काम जाल्लें।
मूलधातु अंत्य अक्षर 'ळ' मेळचे = मेळ 'ळ' ओत्तक्षर वरोका,
मेळचे = मेळ = मेळ्ळें, कोळचे = कळ = कळ्ळें, मळचे = माळ = माळ्ळें, घीळचे = घीळ = घीळ्ळें, फीळचे = फीळ = फीळ्ळें = तोळचे = तोळ = तळ्ळे, उसोळचे = उसळ = उसळें
फूलचे = फूल फूल ले, घालचे = घाल घाल्लें, चोलचे = चल चल्लें
सानड = ल + ळ भूतकालांतु घातु सान 'ड' आसल्यारी 'ळ' जाता। तशीं जाव्नु अंत्य अक्षर 'ळ' आशील्याचे मणके जाता।
काडचे = काड + ल = ळ काळ्ळें हाडचे = हाड + ल ळ = हाळ्ळें
पाडचे = पड + ल = ळ पळ्ळें चोडचे = चड + ल ळ = चळ्ळें
राडचे = रड + ल = ळ रळ्ळें, वाडचे + वाड + ल ळ = वाळ्ळें
सोडचे = साड + ल = ळ सोळ्ळें = मोडचे  + ल + ळ = मोळ्ळें
घातु व्होड 'ढ' असल्यारी कसलें यी फरख ना।
ऊढचे = ऊढला, बूढचे = बूढलो, कोंढचे = कोंढले
पूर्ण भूतकालांतु ओत्तक्षर वरोच्याक नझा भूतकालाचे प्रत्यय 'ले' विंगडु वरोका।

जाल्लें = जाल लें, घेल्लें = घेल लें, चल्लें = चल लें, फूल्लें = फूल लें
मेळ्ळें = मेळ लें, पळ्ळें = पळ लें, काळ्ळें = काळ लें, रोळ्ळें = रळ लें
म्होणचे = म्हळ्ळें = म्हळ लें, कळ्ळें = कळ लें, मेल्लें = मल लें, व्हेल्लें = व्हेल लें

1) कोंकणि भाषायेंतु सामान्य क्रियापदाचो केलव धातु मूल धात आनि वर्तमान कालाचे धात चे अभ्यासु केल्ला ।
2) तशींचि भूतकालांतु यी केलव घातु रूप विकार कोर्नु घेताति।
3) भूतकालु शिखु का जल्यारी प्रथम जाल्नु हाझो परिचय घेवका पडता।
4) भूतकालांतु केलव धात एक अक्षराचे, आनि अंत्य अक्षर ळ ल, सान ड + ल मेळ्नु जावचे 'ळ', ण ल मेळ्नु जावचे 'ळ' हाझो व्यत्यासु शिखा।
5) एक अक्षराचे जावचे धातु अंत्य भूतकालाचे प्रत्यय ल्ल ओत्तक्षर मेळैताति

कोरचे = कोर केल्लें, मोरचे = मोर मेल्लें , भिवंचे = भील्लें , कोर = के,
मोर = मे भीव = भी पीतचे = पी पील्लें, जाव्चे = जा जाल्लें,
खावचे = खा खेल्लें, नावचे = ना नाल्लें, दीवचे = दी दील्ले, व्होरचे = व्हो,
व्हेल्लें, धातु आनी वोच्चे हाझे भूतकालाचे मूल धातु चे रूप विंगड आसता
येवचे = आय = आयलें वोच्चे = घे = घेल्लें

कोंकणि भाषयेंतु कष्टना। घातु केलव तें तें कालांतु विकार जाता शिखतां शिखतां अभ्यासु जाता। भूत कालांतु एक अक्षराचो धातु कशी म्हणु आभ्यासु करा।

आमी उलोंचो नमूनो चन्दु थोडे सामान्य क्रियापद तिरपुच्चाक वोचु नाकाति, नवी नवी समस्या उत्पन्न जाता । म्होणचे, कोरचे धोरचे हे शब्द सम। म्हणचे मरचें हशी मूल धातु विकार कोरनाकाति।

## भाग - २

# बरोचो, उलोचो, आनि विमर्शा हाझो विवरु।

भाष म्हळें परां उलोची शैलि विंगड विंगड आसता। तो नियमु आमी जाल्लें तितलें पालना कोरका हाझो खातिर व्याकरण म्हणु केल्लां। व्याकरणाक चि भाष म्होणचे । शब्दांक नयी कशी उदाकाचे तेंबे ओट्टु जाव्नु नयीं जाता कीं, तशी चि शब्दाक एक नियमु मेळ्नु व्याकरण जाता।

पुल्लिंग नामपद आनि नपुंसक नामपद आसतना ओत्तक्षर आसता। कोंकणि भाषयेंतु एक नियमु आस्स त्या नामपदाक विभक्ति मेळतना अंत्य अक्षर लोप कोर्नु अर्ध अक्षराक विभक्ति मेळैतातिं।

उदा : गुड्डो + आक गुडयाक, गुड + आरी = गड्यारी (पुलिंग)
म्हळ्ळें + आरी = म्हळ्यारी, जाल्लें + आरी = जाल्यारी (नपुंसक क्रियापद)
हो नियमु एक शब्दांक लागु जाता।
आंत्त आमी पूर्ण भूतकालु बरैतातिं ताका नियमु नातीले बरैतातिं, हशी पळ्ळे लें ना बिलकूल चूकी, दांवल लें, चमकल लें, धातु क 'ल' सहायक घेव्नु लें विंगड बरोका। तावळी पळ्ळें लें, विभक्ति मेळतना ओत्तक्षरचो नियमु भंग केल्लां म्हणु जाल्लें।
सान ड + ल ळ हि संधि मेळले निमित ळ अक्षर जाल्ला। पळ लें बरोचे सम नवे। बरोच्याक उलोच्याक यी चंदु नियमु।
हि संधि अगत्य जाव्नु शिखु का जाता।
ड + ल = ळ, ड + न = ण, ण + न = ण, ळ + ल = ळ, ण + ल = ळ
सान ड अक्षराक ल मेळतना एक अक्षर धातु चे मणके जाता। भूतकालांतु ओत्तक्षर बरोका
काडचे काड + लें, = काळ्ळें सोड + लो = सोळ लो सोळ्ळो।
हाड + न ण, हाड + ना हाणा सोड + नी सोणी म्होणंचे, म्हण + ना म्हणा म्हण + नी = म्हणी।
अन्य कोंकणि उलैथलीं 'ळ' अक्षर उपयोग करनतीलें 'ड' अक्षर उपयोग करतातिं
कडले = काडीलें, हाडलें = हाडीलें

# स्त्रीलिंग

स्त्रीलिंगाक ओत्तक्षर लोप जायना हें नामपद कशी आस्स की तशी बरोका । स्त्रीलिंगाचे ओट्टु विभक्ति मेळना । तो विंगड एकु शब्दु जाव्नु आसता। आमी कोंकणी भाष उलैतना विभक्ति लोप कोर्नु ताझे प्रत्यय ये मात्र उच्चरु करतातिं। बिलकूल नामपद विकार कोरचे सम नहीं। बडिड येक, बडिड येन मारलें, बडिड येचे कुडके बडिड ये कुडको। आज्जी येक दी, आज्जी ये दी, स्त्रष्टियेंतु स्त्रष्टि यें, कंडि येचो सरळु - कंडि ये सरळ्,

पुलिंग बहुवचन अंत्य स्वरु अ नपुंसक अंत्य स्वरु अ स्त्रीलिंग अंत्य स्वरु अ आसता । स्त्रीलिंग अंत्य स्वरु म्हणु कोळचे विभक्ति मेळतनाचि। जीभ येची रूचि , झांग येक मारलें, झांग ये मारले उहना, आलोचना, अंत्य स्वरू आ विभक्ति मेळतना अंत्य स्वरू अ जाता।उहना- उहनयेक, सूचना - सूचन येचो ।

2) नातिलो

नातीलो, ली, लें लिंग भेदु आस्स । वर्तमान धातु चे ओट्टु बरैताति, हो शब्दु क्रिया विशेषण यकै सर्वनाम जाव्नु उपयोग करताति। काम करनातीलो नौकरु । काम करनातीलो हेकडे ये नी, (सर्वनाम)

जाल्यारी हो विषयु यादु दवोरका वाक्यांतु क्रियापदाक क्रिया विशेषण जाव्नु येतना लिंग भेदु कर्नातीले 'ले' मात्र बरोका।

काम कर नातीले आयले, सीता सांग नातीले आयली, सूणें खाय नातिले दांवलें।

नातीले हाका आन्नेक रूपारी उलैताति येना शी, करनाशी उलैना शी।

विशेषण ' शे ' नामपदाचे आनि सर्वनाम मेळतना लिंग भेदु आसुनु कृष्णु - शो, क्रष्णा मणके, राधा - शी राघ येचे मणके राघ ये वरी

वाक्यांतु क्रिया विशेषणशें सर्वनाम कोर्नु लिंग भेदु आसुनु उलैताति क्रष्णु - शो, क्रष्णु मणके राधा -शी = राध येचे मणके = राध येचे वरी

व्याक्यांतु क्रिया विशेषण शें सर्वनाम कोर्नु लिंग भेदु आसुनु उलैताति क्रष्णु येना- शा दिसता, ति वाझी ना शी दिसता,

येना-शी करना-शी उलैना-शी हे स्त्रीलिंग रूप पूलिंग नपुंसकाक थी ' नातीले ' अर्थारी उलैताति। चेल्लो बरैना- शी चमकलो, सांगना-शी इत्याक आयलो सांग नातीले इत्याक आयलो, यी कसलें यी म्हणा-शी (म्हण + ना म्हणा) येता। शिखना - शी येता

# इ ई क्रियापदांक

ಮಾಡಲಿ, ಬರೆಯಲಿ, ಗಲಿ ದಾಸಿ, हशी सानु 'इ' स्वरु घालताति व्होड्डु ई स्वरु घाल्यारी हळशीक दिसता। आमी तो नमूनो अनुकरण कोरुंक नझ।
हिन्दी येन करुंगी जाऊंगी, गली, भर्ती, दासी, करती थी बालती थी। इत्याक व्होड 'इ ' स्वरु घालताति, बरैतना वगी वगी चूक नातीले बरोच्याक जाता सान ' इ ' स्वरु घाल्यारी एक अक्षर फूसुनु बरोच्याक पडता तशी हो नमूनो चंदु नवे ति आयल लि, चमकल लि हो कन्नड नमूनो आमी उपयोग करूंक नझ। तशीं जाव्नु कोंकणि भाषयेक क्रियापदाक अंत्य स्वरु व्होड ई स्वरु उपयोगु केल्ला।
तना, तछी
करतना वर्तमान धातु चे ओटट्टु ' तना' वेळु दाखैता। सांगतना सांगचो वेळु, उलैतना उलोचो वेळु
हो शब्दु वाक्यांतु येतना 'कोणे ' म्हळलो प्रशनार्थक शब्दु येता।तशी जाव्नु तो कालु वर्तमान , भूत थकै भविष्यत नामपदाक, सर्वनामाक कर्ता (प्रथमा) विभक्ति लागता हांव, हांवे येतना, तुं तुंवे उलैतना येता, आयलो, ये थ। तो ताणे हाणे हिणे बहुवचनांतु आमी तुमी तान्नी, हान्नी, कर्ता विभक्ति लोप जाव्नु हे कंचे यी कालाक हशी उपयोग कोरये थ। जाल्यारी अन्य पुरुष बहुवचन 'तना ' उपयोग करतना तीं ही, तीं बहुवचन उपयोग कोरचे सम नहीं।
'तछी' व्याक्यांतु हे चि तत्वारी अनुकरण कोर का। ताणे कर तछी तुं काम करी। ताणे सांग तछी तुं काम करी। काणे सांग तछी येता आमी सांग तछी येता वे। तछी हाझो अर्थु ' नंतर ' म्हणु येता।भूतकालाक केल्लें नंतर, केल लें नंतर सांगले नंतर, सांगल ले नंतर, हशी चि चमकले परां चमकल लें परां ताणे चमक तछी हांवे ये तछी, वर्तमान धातु बरोनु तछी विंगड बरोका।

# धातु

सामान्य क्रियापदच्या मूळरूपाक धातु म्हणतातिं। तिनि कालाक यी उपयोग करतातिं। धातु क वर्तमान धातु म्हणतातिं, भूतकालाचे एक अक्षराचे धातु क सोणु।

धातु शाब्दाक प्रत्यय मेळतना धातु विकार कर नातीले प्रत्यय विंगड बरोका। धातु क, धातु चे, धातु तुं हो चि नमूनो पति, कवि, दोनि, तिनि चरि, बाप्सु आव्सु शुरुवे

क्रिया विशेषण

वर्तमान क्रियापदा मणके उलैतां अंत्य अक्षराचे वयरी बिन्दु घालका। हो शब्दु दोनि पंथा उपयोग कोरये थ।

गोपाळु सांगतां चमकलो, चेर्डु उलैतां उलैतां निदलो

वर्तमान धातु क ' त ' अक्षर सहायक घेव्नु 'हच' विंगड बरोका " च " अक्षर लोप कोर्नु उलैतातिं।

राधा पद म्हणत हच चमकली, म्हणत ह चमक ली। आज्जो उलैत हच मेल्लो, उलैत ह मेल्लो, (उलैत ह मेल्लो।)

## 2) थोडे नामपदाक व अक्षर सहायक जाव्नु घेतातिं

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| पुलिंग | बहुवचन | विभक्ति | मेळतना | बहुवचन |
| दुड्डु | दुड्ड़ | दुड्वाक | दड्वाचो | दडवांक |
| नात्तु | नात्व | नात्वाक | दड्वाचो | दडवांक |
| राझ्झु | राझ्व | राझ्वाक | राझ्वाचे | |
| नंपु | बहुवचन | चेर्डुं | चेर्डुंव | चेर्डुवांक |
| हैरु | हैरुवं | हैरवाक | हैरवांक़ | |
| गोरु(पशु) | गोरवं | गोरवाक | गोरवांक | |
| चेडुं | चेडवं | चेडवाक | चेडवांक | |

जन म्हळलो शब्दु नपुंसक जनं बहुवचन शब्दाक महत्त्व तें जन, तीं जनं

**' ते ' एक व्यक्ति बहुवचन**

' इते ' बाइल येन बाम्णाक आपोचो नमूनो, इते, ते अक्षर एक व्यक्ति बहुवचन ते चमकले, ते आंत्तं आयले। गुरु आयले क्रियापदाचे प्रत्यय ते कशी बरैताति तशी चि ले बरोका। जनं आयलीं, तीं आयलीं। तान्नी, हान्नी चमकलीं हे शब्द भूतकालाक पुलिंग, स्त्रिलिंग आनि नपुंसकाक बहुवचनांतु समान जाव्नु आस्स। लिंग बेदु ना।

' ते ' एक व्यक्ति बहुवचन मनषाक सोणु सकड पुलिंगक मात्र बहुवचन, हे शब्दु हो शब्दु, तो पाथर पारवो उबलो = पारवे उबले, कायळो रळ्ळो, कायळे रळ्ळे। (पारवे उवलीं कायळे रळ्ळीं चूकी जाता)। सारनी कुंटो = सारनी कुंटे

# उनु प्रत्यय मळोनु क्रिया विशेषण

सामान्य क्रियापदाचो मूल धातु उपयोग कारका।
सांग + उनु = सांगुनु, तो माका सांगुनु चमकलो, हांव चमकुनु चमकलो ' नु ' अक्षर वगी उलैतना ' न ' कोर्नु उलैताति। तो सांगुनु (सांगुन) चमकलो
प्रेरणार्थक पळोनु, कारोनु दंवाडानु भीष्टानु
विषेश कसलें म्हळ्यारी धातु चे अंत्य र, ळ, ल, व, अर्ध कोर्नु बरैताति
धातु चे अंत्य अक्षर ' र ' कोर + उनु = कोर्नु, मारचे = मार्नु, दवोरचे दवोर्नु, षोरचे = षोर्नु, झोरचे झोर्नु मोरचे = मोर्नु धोरचे = धोर्नु
धातु चे अंत्य अक्षर ' व ' खावचे = खाव + उनु = खाव्नु, जावचे = जाव्नु, पीवचे = पीव्नु, दांवचे = दाव्नु, चोवचे = चोव्नु, लावचे = लाव्नु
अंत्य अक्षर ' ळ ' मेळचे मेळ + उनु = मेळनु, खेळचे = खेळनु, घीलचे = घीळनु, पीळचे = पीळनु, कोळचें = कोळनु, घालचे = घाल्नु, फूलचे = फूल्नु, चोलचे, = चोल्नु, सकड शब्द उलैतना ' न ' न कोर्नु उलताति।

## ' शी ' अक्षराचे महत्व

कोंकणि भाषयेतु सामान्य जाव्नु ' सी' शब्दु उपयोग कोरचे उणें अन्य भाषयेच्या शब्दांक ' 'सी ' बरोये थ भीष्टानु उलैतना कर शी, दांव शी, येशी, सीता- शी, ति-शी, सीता मणके, तिगेले मणके

नामपद शिरलो, शीत, शींवण, मशी खुशी, पीश्शी, खायशी क्रियापद, आसुचे =आशीलें, घासुचे = घाशीलें
शिंदुचे, शिंवोचे, शिर्खुचे, शीळी मारचे, दिवशी मारचे
कोर्नु मोर्नु दवोर्नु, मेळन्, चोन्नु, दान्नु, घाल्न्, हें क्रिया विशेषण शिखल्वांति अगत्य पळ्यारी
दोंनि पंथो उपोयग करतातिं, मार्नु मार्नु सोळ्ळे, धोर्नु धोर्नु पूरो जाल्लें।

## क्रियापद

वाक्याचे बहुवचनाचे क्रियापद केलव जनं करताचि, दांवताचि केलव जनं करतातिं, दांवतातिं, हो नमूनो चदुं। वगी उलैतना अंत्य अक्षर ' त ' कोर्नु उलैतातिं उलैतात, सांगतात, करतात।
आमगेल्या भाषयेंतु लिंग भेदु कोरचो नमूनो अत्यंत सुलभ। नंतर कंचे यी भाष येचे शब्दः लिंग भेदु कोर्नु चि आपणायतातिं।

1) कंचें यी नामपदाचे अंत्य अक्षराचे स्वरारी आमी पुलिंग, स्त्रीलिंग नपुंसक निर्णय करतातिं।

2) हांतु एकी समस्या आस्स, आमी उलोचो नमूनो सम आस्स, कन्नड लिपियेंतु या विषयांतु महत्व दी नी।

3) पुलिंग, स्त्रिलिंग आनि नपुंसकांतु अंत्य अक्षराचो स्वरु ' अ' आस्स। हाका व्यवस्था आस्स, पुलिंग बहुवचनाचे अंत्य अक्षरा लागी विसर्ग दोनि बोटट घालका । विभक्ति मेळतना अगत्य ना, वयरी बिंदु पडता। शब्दु, शब्दः शब्दाक, स्वरु स्वरः = स्वराक,रायु रायः = रायांक
नपुंसक अंत्य स्वरु मांकड, माकडं, कागद = कागदं = कागदांक पुलिंग बहु, विभक्ति मेळतना पुलिंग बहुवचन चे मणके।स्त्रीलिंग अंत्य स्वरु अ व्हखल, बाइल जीभ शाखर, प्राय, चिंछ बहुवचना बिन्दु घालका व्हखलयेंक, उपकार, विश्वास, विषय हसल्या संस्कृत शब्दांक ' उ 'स्वरु मेळोनु पुलिंग केल्लां।
इरादा (स्त्री) इरादो (पुलिंग) मेझ, बेंच स्त्रिलिंग वायदा - वायदो (पु)

गुलाम = गुलामु
(पु). कोर्ट = कोर्टु मस्तरु (पु)

## भाषयेंतु नपुंसकाचे महत्व

इतें बरें तु यात्रेक घेल लो वे कसलें हाळ्ळें।
ताका कसलें जावका कै। कसलें कीं हाणु दवरलें।
कोण आयलें। चेर्डुवांक तांका जावका जाल लें दील्लें।
आमी उलैतना व्याक्यांतु पुलिंग, स्त्रीलिंगाची भावना नातल्यारी नपुंसक जाव्नु उलैतातिं। वाट येरी कसलें पळ लें, आम्बो पळ लो हो विषयु उजगासु दवरा।
तुंवे कसले बरैलें, मस्तु विषयु बरैलो

## तछी

व्होड ' छी ' बरैल्यारी हो एकु स्पष्ट शब्दु म्हणु कळता उलैतना मस्त ' चि ' शब्द येतातिं।ताका परिहारु आमका अनुकूल जावचे तशी कोरचे। तुगेलें काम जा तछी चि यो, उलैतना उच्चारु पळ्या। तछी हाझो अर्थु नंतर, परां हशीं येता भूतकालाचे काम जाल्लें नंतर (परां) यो। काम जा ' तछी ' यो तछी हो शब्दु वर्तमान कालाचे धातु ओट्ट विंगड बरोका। जातातिं = जाताचि म्हणु उलैतातिं, व्याक्यांतु केदना यी स्पष्ट शब्द आसल्यारी स्पष्ट अर्थु जाता। कर  तछी, जा तछी, साग तछी

## ओ, अें, अे + आ ' या '

ओ, अें, अे स्वराक ' आ ' स्वरु मेळतना कोंकणि भाष येंतु ' या ' अक्षर जाता
ओ ग्ड्डो + आरी = गुडयारी, गुड्डो + आक = गुडयाक
अें मेळ्ळें + आरी = मेळ्यारी, दांवलें + आरी = दावल्यारी
अे कोरचे + आक = कोरच्याक
1) शब्दांतु ओत्तक्षर आसल्यारी विभक्ति मेळतना धातु क अर्ध अक्षर

मेळता। ओत्तक्षर बरोचे सम नहीं।

2) 'आरी ' विभक्ति भूतकालाक मात्र मेळता। पूर्ण भूत कालाक मेळ ना।इतर विभक्ति यो पूर्ण भूतकालाक मात्र मेळतां।

3) सामान्य क्रियापद कोरचे, दांवचे, पळोचे, बरोचे आक चारि नमून्यारी उलैतातित चारिक यी एकुचि अर्थु। सांगचे + आ क

सांगच्याक = सांगच्या (क लोप)

सांगु + क = सांगुक = सांगुं।

कोरच्याक चमकला, कोरच्या चमकला, कोरुंक चमकला, कोरुं चमकला।

## कोण

कोण हया शब्दांतु ताकूनु प्रकट जावचे शब्द शुरवे अक्षर ' क ' बरोका व्होड 'ख ' बरोच्याक नझ।

कोण, कसलें, कहीं की, कितकीं कितें केदना केदोळु कही **+**चो = कंचो हो, तो शब्दांतु ताकूनु प्रकट जाल ले ' ह ' अक्षराक ह, ' त ' अक्षराक ' त ' बरोका

हेदोळु, हेदना, हांगा हसलो, हशीं हेकडे एदराक ' ए ' अक्षर बरोच्याक नझ। तो, तेदोळु, तेदना, तावळी, तकडे तशीं व्होड ' थ ' बरोच्याक नझ तही **+**चो = तंचो

## समास आनि विकार

1) भाषयेंतु दोनि तिनि नामपद ओट्टु कोर्नु उलोचो अभ्यासु आस्स हाका समास म्हणतातित।

2) नामपद शिखतना ताझें विकार शिखचे भारी महत्वाचो विषयु पु, नपुं हाका या, दोनि विभाग आनि आ स्त्रीलिंगाक ये विकार जान्नु नामपदाचे ओट्टु मेळता

(हया) त्या रुकाच्या साली विभक्ति सहित येक

(हे) ते रुका साली ये (विकार, विभक्ति नातीलें)

वाक्याच्या मुखारी सर्वनाम आसल्यारी विभक्ति सहित उलैतना त्या, हया जाता विकार मात्र आसल्यारी सर्वनाम विकार जाय ना।

हाथाचो पेट्टु हाथा पेट्टु (पेट्टु पु)

हाथाची मुद्दि हाथा मुद्दि (मुद्दि स्त्री) तीन लिंगाक यी विकारु समान जावु आस्स। हाथाचें बोट हाथा बोट (बोट नपुं) चो, ची, चें लिंगभेदु आस्स तिनि कै हाथा विकारु समान घोडयाचो पायु = घोडया पायु, घोडयाची जीभ, घोडया जीभ, घोडयाचे बाल घोडया बाल, कंडि येचो सरळु = कंडि ये सरळु झांग येचो पेट्टु = झांग ये पेट्टु।

1) कर्ता विभक्ति एक नहीं एक रीति येरी लोप जाता।
2) रुकाक = रुका रुकाचे खातिर, रुका खातिर, रुकाचो गेल्लो, रुका घल्लो। हया रुकांतु हे रुकां
3) सामाम्य क्रियापदाचे ' कोरचे ' अंत्य अक्षर संबंध बोधक आसताना लोप जायना ' चे ' मात्र बरोका कसलो विकारु कोरुंक नझ। कोरचे खातिर, कोरचे पशी जाल्यारी सर्वनाम कोर्नु उलैतना लिंगभेदु आस्स।
4) पूर्ण भूतकालु मेळ ले, केल लें सम्बध बोधक चे वयरी, चे मूखारी चे मूळाक चे जावो ले लोप कोर्नु उलैताति कृष्णा ले करैन कृष्णा करैन, रुकाचे लागी= रूका लागी जाल्यारी पूर्ण भूतकालाचे वेळारी ले प्रत्यय लोप कोरुंक नझ मेल ले खातिर, दांवल ले मुखारी दांवल लो पूर्ण भूतकालु सर्वनाम करतना लो ली, लें लिंग भेदु आस्स जाल्यारी लोप जाय ना।

हाडता लो हें लें प्रत्यय विशेषण जातना सम्बंध कारक विभक्ति येचे काम करतालो करता काम केल लो, केदना यी येता लो तो मनषु आजी ये नी। तात्कालिक भूत) केदना यी ये थली चेल्लि आजी ये नी (पूर्ण भविष्यत ) केदना यी केल लें काम आजी ताका कळ नी पूर्ण भूतकाल बहुवचनाचो रीति हशीं आस्स।

सामान्य क्रियापद दांवचे, सांगचे विशेषण जातना अंत्य अक्षर सम्बंधकारक विभक्ति येचे ' चे ' प्रत्ययाचे व्हरी काम करता विशेषणं सर्वनाम करतना अमको वस्तु अमको जातिवचकं म्हणु मनांतु आसुनु लिंग

भेद सहित आलोचना कोर का।

काम कोरचो चेल्लो।

काम कोरची चेल्ली।

काम कोरचो चेडो।

काम कोरचे चेडे।

## पूर्ण भूत हाझें सान रुप

1) सामान्य क्रियापद कालु निर्णयु करतना थोडे धात विकार जाता। हाझो अभ्यासु कोरका, थोडे एक अक्षराचे धातः जातातिः

| | | | |
|---|---|---|---|
| कोरचे | कोर | के | कर |
| जावचे | जाव | जा | जा |
| पीवचे | पीवो | पी | पी |
| दीवचे | दीव | दी | दी |
| खावचे | खाव | खे | खा |
| व्होरचे | व्होर | व्हे | व्हर |
| नावचे | नाव | ना | ना |
| धुवचे | धुव | धु | धु |

भूतकालाचे कंचे एक अक्षराचे धात जातातिः। भूतकाल जातना प्रत्यय ल्लें ओत्तक्षर मेळता।

मेळोका। जाल्लें, पील्ले, नाल्लें, धुल्ले, खेल्ले, केल्ले

वोच्चे भूतकालाचे रूप घेल्ले हाका धातु आनि क्रियापदाचे प्रत्यय ओट्टु बरोका ' घे ' म्हणु धातु ना।

येवचे = भूतकालाचे आयलें धातुक विंगड रूप ना।

घेवचे हाझो धातु ' घे ' भूतकालाक ' त ' अक्षर सहायक जाव्नु घेतलां घेल्लें। घे नातल्यारी ' वोच्चे ' भूतकालाचे रूप जाता।

## 2) पूर्ण भूतकालाचे सान रूप

एक अक्षराचे धातु केल्ले, मेल्लें, भूतकालाचे रूप
केल ले, मेल लें जाल ले, कळ लें, दांवल लें ( पूर्ण भूतकालाचे रूप)
धातु चे ओट्टु ' ल ' अक्षर सहायक घेव्नु ' लो ' प्रत्यय बरोका।
हाडचे, काडचे, धातु क अंन्य अक्षर सान ' ड ' ल + ळ = ' ल ' अक्षर
सहायक जाव्नु घेतना धातु एक अक्षराचे मणके जाता।
हाडचे + हाड = ल हाळ्ळें भूतकालाचे रूप, ओत्तक्षर बरोका
हाड + ल = हाळ्ळे, हाळ लें = काळ्ळें = काळ लें, पळ्ळें = पळ लें।
(भूत आनि पूर्ण भूत)
सोडचे + सोळ्ळें = सोळ लें। रोडचे = रळ्ळें = रळ लें
पूर्ण भूतकालाक ' ईलो ' प्रयोगु पर्ण भूतकालाचे थाडे क्रियापदाचे सान
रूपांक कळ्ळें, हाळ्लें तांन्तु पूर्णभूत कालाचे दोनि रूप ना
सांगल लो, दांवल लो धातुक ल अक्षर सहायक जाव्नु घेतलो ' ईलो '
प्रत्यय मेळोनु सान पूर्ण भूतकालु कोर्नु उलैनाति

1) सांग + ईलो = सांगीलो, दांवल लो = दांवीलो, पावल लो = पाविलो
   चोयल लो = चायीलो, लायल लो = लायीलो, घुंवल लो = घुवीलो
   धातु चे अंत्य अक्षर ' र ' आसल्यारी ' इलो ' प्रत्यय मेळ ना।

2) चोरचे = चोरीलो जाय ना, चोरल लो, धोरचे = धरललो, मारचे
   मारल लो (स्वल्प रियायति) चमकल लो, नमगल लो, कुरंवल लो

3) अंत्य अक्षर ' सु ' आसल्यारी, तिनि कालाक यी धातु चे अंत्य
   अक्षर ' शी ' जाता तिळसूचे = तिळशी, तिळशीता, तिळशीलें,
   तिळशील लो, कूडसुचे, कूडशील लो, धातु क ' ल ' अक्षर
   सहायक घेतीलो पूर्ण भूतकालु, भूतकालाक ' इलो ' शब्दु मेळ्यारी
   यी पूर्ण भूतकालु जायना। हो विषयु यादु दवरा।

4) आसुचे आशीलो भाष येंतु आति चालु शब्दु गोपाळु आशीलो, ति
   आशीली, तो आंत्तं आशीलो कन्नडान इदूदनु, इद्दळु, इत्तु हशी
   अर्थु येता ।

# सर्वनाम विकार

नामपदाचे पूढे सर्वनाम आयल्यारी नामपदाक मेळतना सर्वनाम विकार जाता।

हो चेल्लो = हया चेल्याक, हे चेल्या = विकार लोप जायना तो पेट्टु = त्या पेटाक ते त्या क्रष्णाली गायी ते क्रष्णा गायी =

तांगली धातुणि = तांगेल्या धांतुणियेक = तांगेली धांतुणि ये

तिझे सामान = तिझ्या सामानाक = तिझे सामाना

नामपदाक विभक्ति लोप केल ले तावळी सर्वनामाक लिंग भेदु नातिले सर्वनामाक अंत्य स्वरु ' अे ' आसता।

## आस्स

हया शब्दाक लिंग भेदु ना

ति आस्स तो आस्स

ಇದ್ದಾಳೆ ಇದ್ದಾನೆ ಇದೆ

आस्सो- ಇರಲಿ आसुचे सामान्य क्रियापद

आसुका - ಇರಬೇಕು,आसूका ಇರಲೇಬೇಕು

सांगुका, सांगूका ಹೇಳಬೇಕು, ಹೇಳಲೆಬೇಕು

हशी उपयोग करताति।

हांतु महत्व पूर्ण भूतकालाचे सान रूप आसल लो = आशीलो

तो आशीलो, ति आशीली, तें आशीलें।

ಅವನು ಇದ್ದನು, ಅವಳು ಇದ್ದಳು, ಅದು ಇತ್ತು

क्रिया विशेषण, तहीं आशीलें सामान, हांगा आशीलो पाथरु।

सम्बंध ब्बोधक आशीले खातिर, आशीले तावळी

जावचे = ಹುಟ್ಟುವುದು, ಆಗುವುದು जाता = ಹುಟ್ಟುತ್ತದೆ, ಆಗುತ್ತದೆ कोरका जाता = ಮಾಡ ಬೇಕಾಗುತ್ತದೆ, जावका जाता ಬೇಕಾಗುತ್ತದೆ, जावका जाल्यारी = ಬೇಕಾದರೆ, जाल्यारी = ಆದರೆ, जाई = ಬೇಕು, माका जाई = ನನಗೇಬೇಕು,जाय थ = ಬೇಕಾಗುಬಹುದು तुका जाय थ रे, हां माका जाय थ। जाई जाल्यारी=,ಬೇಕಾದರೆ जावका = जाई= ಬೇಕು सांगुका जाता, मारका जाता, उलोका जाता, म्होणचे ಹೇಳುವುದು, पद म्होणु येता ಪದ

ಹೇಳಿ ಬರುತ್ತಾನೆ, म्होणका ಹೇಳಬೇಕು, म्हणु हो विंगड शब्दु म्हणु कन्नडान 'ಎಂದು' अर्थु येता। (पद म्हणता ಪದ ಹೇಳುತ್ತಾಳೆ) हांवे तो म्हण लेकलें। म्होणु हाझो अर्थु, ಹೇಳಿ हाझो व्यत्यासु शिखा
लेकलो, आयीलो तो म्हणु दिसता । म्हणु हो शब्दु क्रिया विशेषण जाव्नु आस्स। ನಾನು ಅವನು ಎಂದು ಯೋಚಿಸಿದೆ, ಬಂದವನು ಅವನು ಎಂದು ಕಾಣುತ್ತದೆ.

## व्होड ' थ ' हाझे प्रयोगु।

हिन्दी भाषयेंतु व्होड ' थ ' भूतकालाक उपयोगु कोर्नु भाष आनि व्याकरण सुलभ कोर्नु घेतल्या। आमी उलोचे, व्याक्याचे क्रियापद स्पष्ट हाझें अंत्य अक्षर च, त, ल हया अक्षरारी समाप्त जाता। हाझे निमित भविष्यत कालु निर्णय कोरच्याक कष्ट जाता, आमगेलो उच्चारु व्होर्ड ' थ ' अस्सा कन्नडान बरैतना सान ' त ' अभ्यासु केल्ला। कालु निर्णय् कोरच्याक सुलभ जाता। वाझीतना चि भविष्यत कालु म्हणु मनांतु वत्ता।

## अपूर्ण भविष्यत

कर थ, हाड थ, सांग थ
आमगेलो उच्चारु व्होड ' थ ' धातु विंगड बरोका प्रत्यय विंगड बरोका। तावळी कालु कसलो म्हणु ग्रहण कोरची शक्ति येता।

## पूर्ण भविष्यत

हाझे प्रत्यय विशेषण, आनि सर्वनाम कोर्नु उलैताति।
समान हाड थलो नौकरु (वि)
समान हाड थलो आयला (सर्वनाम)
सर्वनाम जाल ले निमित सकड विभक्ति मेळोनु उलैताति।
कर थल्यान, कर थल्याक, कर थल्यांतु कर थले खातिर।
शक्य सूचक भविष्यत कालु। हो आमी नित्य बळसुचो कालु, हया कालाक कोरच्याक साध्य आस्स म्हळलो अर्थु येता।

1) ह्या कालाक मूल धातु उपयोग कोरका।
2) ह्या कालाक लिंग भेदु ना।
3)धातु चे लागी ' ये ' अक्षर सहायक जाव्नु घेवका।
4) एकवचन बहुवचन म्हणु भेदु ना।
कोरचे कोर, प्रेरणार्थक कोरो, कोरोये थ।
मारये थ, मारोये थ। उलोये थ, बरोये थ।
भीष्टाचे भीष्टाये थ, दांवडाये थ।
हांव काम करता लो। लो विंगड बरोका
प्रत्यय मेळोनु उलैतना विंगड
आसल्यारी व्याकरण स्पष्ट कळता
तें काम माका सांग थलो। थलो विंगड बरोका
करतलो, करथलो हशी बरैल्यारी तेंव यी सान ' त ' घाल्यारी अर्थु
कोरुंक कष्ट जाता।

## सूचना येक (लोप सूचनये)

(आ) सूचना अंत्य स्वरु 'आ' काणु 'अ' स्वर कोर का।
तागेल्या अलोचनयेक शिफारस कोरका, तागले आलोचन ये शिफारस कोरका राध येक राधये, सीता = सीतयेक सीत ये
(अ) वाट येक = वाट ये हांव सांगील्या वाट येक यो। हांव सांगीले वाटये यो।
(इ, ई) नामपद आशीले तशी बरोनु ' ये ' अक्षर मेळोका नामपदाक चेल्लि येक ओत्तक्षर आसल्यारी तशी चि बरोका, अंत्य अक्षर ई, इ स्वरु म्हणु स्पष्ट कळता, आज्जी येक, काणि येक।
वगी बरोच्याक लायक म्हणु व्हारडिकेक, सोयरिकेक बरोचे सम नहीं व्हारडिक येक लोप कोर्नु उलैतना व्हारडिक ये म्हणु म्हणातातित स्त्रीलिंग चारि यी वर्गाक एक् नमूनो आसचे चांग नवे थोडीं जनं ' बरोचाक ' हशी सम नहीं, ' बरोच्याक ' म्हणु बरोका।

## भूतकालाचो व्यत्यासु पळया

| | एकवचन | बहुवचन |
|---|---|---|
| स्त्रीलिंग = | आयली, आयीली | आयलीं, आयीलीं, (आयल लीं)ति |
| नपुंसक = | आयलें आयीलें | आयलीं आयीलीं (") |
| पुलिंग = | आयलो, आयीलो | आयले, आयीले, आयीलीं, आयल लीं (ति) |

बहुवचन क्रियापद पु, स्त्री, नपुं समान आस्स। अगत्य आसल्यारी पु, स्त्रीलिंगाक ति मेळैताति आयलिंति।

व्याक्यांतु नामपदाचो बहुवचन, एकवचन व्यत्यासु पळया।

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| पु | पाखो | बहुवचन | पाखे | पुलिंग पाखो एकवचन |
| | स्त्रीलिंग कवितों | | | |
| स्त्रि | कविता | " | कवितों | व्हखलों व्यात्यासु - |
| | वयरी बिंदु | | | |
| | व्हखल | " | व्हखलों | जाव्नु आस्स |
| नपुं | सूणें, तेंडलें | | तेडलीं, सूणीं | |
| पु | बहुवचन | | एकवचन | |
| | पाखे, घाडे | | सूणें, तेडलें नपुंसक | (एकवचन अंत्य |

अक्षराचे वयरी बिंदु घालनतलयारी पुलिंग बहुवचन जाता)।
बिंदु अगत्य जाव्नु घालका। हाझो व्यत्यासु शिखा ।

### तेडंलीं सूणीं नपुंसक बहुवचन

स्त्रि राणि, कायली एकवचन व्यत्यासु-बिंदु हाझो व्यत्यासु अवश्य जाव्नु यादु दवोरका।

पु, आज्जो, उज्जो ओत्तक्षर विभक्ति मेळतना अंत्य अर्ध अक्षर मात्र आज्यालो उज्याचो

नपुं क्रियापद, मेळ्ळें, केल्लें, जाल्ले, प्रत्यय आरी मेळतना अंत्य अक्षर अर्ध मात्र मेळ्यारी, केल्यारी, जाल्यारी।

स्त्रि, आज्जी, बड्डी पूडडी विभक्ति मेळतना कसलो यी व्यात्यासु ना।

नामपद आशीले तसी बरोनु विभक्ति विंगड बरोका।

आज्जी येक, बड्डी येचो, पूडडी येतु भेदु स्पष्ट मनांतु व्हरा।

## 'ना' शब्दाचे भूतकालाचे रुप नंतर सहायक जाव्नु 'यी '

' नी ' भूत आनि पूर्ण भूतकालाक एकचि रूप विंगड भेदु ना।

| वर्तमान धातु | प्रेरणार्थक | कन्नडान |
|---|---|---|
| कर नी | करै नी | माडले इल्ला |
| कर यी नी | करै यी नी | माडिसले इल्ला |

( मौर यी नी) (पाड यी नी चमका यी नी उलै यी नी,। बरै यी नी,। मास्तरान भीष्टा यी नी। रामान काड यी नी। आन्नेक नमून्यारी पूर्ण भूत कालु उलैताति। पूर्ण भूतकाल क्रियापदाक ना प्रत्यय घेव्नु सांगले ना, सांगीले ना, सांगल ले ना, सांगैल ले ना। ताणे हठा कै काळ्ळें ना, उज्जो झळ्ळो ना, झळ्ळ लो ना।



# छापतना जाल ली चूकि यो

| पुट | वाक्य | चूकि | सम |
|---|---|---|---|
| 3 | 18 | घरले | धरलें |
| 4 | 7 | थाडे | थोडे |
| 24 | 16 | कापुस | कापुसु |
| 28 | 2 | हाझ | हाझें |
| 34 | 21 | जावना | जाव्नु |
| 38 | 24 | ल्लें | ळ्ळें |
| 38 | 31 | हगसुचे | हगंसुचे |
| 47 | 10 | आंत | आंत्त |
| 56 | 3 | गोंवाचे | गांवाचे |
| 62 | 10 | घवो | धवो |
| 63 | 14 | चांद | चंदी |
| 70 | 3 | धारचे | धोरचे |
| 76 | 14 | घातु | धातु |
| | | वाण्नु | जाव्नू |
| 81 | 27 | घानु | धातु |
| 82 | 17 | धातु | थातु |
| 85 | 25 | काणे | कोणे |
| 87 | 7 | हे शब्द | हे शब्दः |
| 91 | 25 | बहुवचनो | बहुवचवाची |
| 93 | 10 | चाडे | थोडे |
| 94 | 4 | ते | ति |
| 98 | 6 | गोंर | मारै |
| व्याकय = वाकय, | | स्त्रिलिंग = | स्त्रीलिंग |

मौल्य Rs. 50.00